# कोंकणी काव्यमंजरी




संकलन आनी संपादन
डा. एल. सुनीता बाय

उजवाडावपी

सुकृतीन्द्र प्राच्यविद्या शोध-संस्थान
कूत्तापाडी, तम्मनम, कोचीन - ३२

२००४



Sukṛtīndra Indological Series - 9
(Konkani)

# KONKANI KAVYAMANJARI
Collection of Konkani Poems

*Compiled and Edited by*
**Dr. L. Suneetha Bai**



First Edition : January 2004
500 copies

*Published by*
Sukṛtīndra Oriental Research Institute
Kuthapady, Thammanam, Kochi - 682 032
Kerala

Price : Rs. 100/-






Printed at Paico Printing Press, Kochi - 682 035

# दोन उतरां

कोंकणीचे आयचे कवींचे काव्यांचो एक झेलो तैयार करचे म्हूण कवींक पत्र बरोवन कविता मागयल्यो. जें कितें हाताक लागलें तांतले वेंचीक काव्य हे संग्रहांत उजवाडाक हाडलां.

कांय बरे कवी आनी तांगेली कविता ह्या संग्रहांत येवंका ना जायत जाल्यार ताचीं कारणां अशी आसल्यां. आमी बरयलीं पत्रां तांकां पावंक ना आनी पत्रां पावूनय आमका ताणी कविता धाडूंक ना. कांय कवीनी आपली कविता संकलनांत आस्पावन घेवूंक मान्यताय दिलीना. अशी कांय कवींची नांवां हे संकलनांत आयलीं नात.

ह्या संग्रहांत गोयंचे, केरळाचे आनी कर्नाटकाचे कोंकणी कवींचे काव्याचो परिचय करचें म्हूण तांगेली कांय कविता एकठांय केल्या. हे कवितांत प्रौढ कवी आसात, उदीयमान कवी आसात. गोयांतली आनी केरळांतली कोंकणीचे वेगवेगळे शैलींतले काव्याचो परिचय ह्या संकलना वाटेन पाठकांक मेळटलो. हांची उतरावळ आनी वाकप्रचार वाचप्यांक रुचतले म्हणपाचो भरवंसो आसा. हे संकलनांत आयचे कोंकणी कवितेचें सामान्य रूप देखूक मेळटा जाल्यार हो प्रयत्न सफल जाला म्हूण मानून आमी कृतार्थ जातले.

ह्या संग्रहांत कांय कविता युवा कवींचो. वाचप्यानी ह्यो कविता बारीकसाणीन वचून तांका सोचवण्यो दीवन मार्गदर्शन करचें, अशी बिनती करताय.

कवींचो आनी हे संग्रहांत एकठांय केलेले तांगेले कवितेचो उडटो नियाळ हे संग्रहाची विशेषता. कोंकणी कवितेचो अभ्यास करतल्यांक आनी कोंकणी वाचप्यांक ह्या संग्रहाचो उपेग जातलो म्हूण आस्त करतां !

सुकृतीन्द्र प्राच्यविद्या शोध-संस्थानाचे स्कूल आफ कोंकणी स्टडीसान हातांत घेतिल्ले हे उपक्रमाक वाचप्यांची दाद मेळ्ळि जाल्यार असले अनीकूय उपक्रम घेंवची शक्त आमका मेळटली, हे विशी दुबाव ना.

**डा. वी. नित्यानन्द भट्ट**
डायरक्टर, सुकृतीन्द्र प्राच्यविद्या शोध-संस्थान

# कोंकणी कविता - फाटले चार दसकांत

"शितान पोट भरता पुण मन फुलपाक गीत जाय"

प्राचीन कालाक मम्मटाचार्यान काव्यप्रयोजना विशीं सांगतना 'सद्यपरनिर्वृतये' म्हणून मनाचे हेच फुलवपाक लक्ष्य केल्यां. 'करोति कीर्तिं प्रीतिं च साधुकाव्यनिषेवणम्', हांतु कवितेचे ह्लादिनी शक्तीची उक्तावणी केल्या. कवितेचे वाटेन उक्तायलेलें सत्य भो म्होवाळें आसता. कोंकणी भास निसर्गतः म्होवाळ आनी मंजूळ छान्दस भास. कविता एक म्होवाळ काव्यप्रकार. तशें कोंकणी कविता म्हळ्यार मन फुलवपी.

फाटले चार दसकांत कोंकणी कविता म्हळ्यार स्वातंत्र्योत्तर कोंकणी कविता. आर्विल्ले कोकणींतलो पयलो कोंकणी कवी म्हळ्यार शेणै गोयंबाब. शेणै गोयंबाबान कोंकणी आत्म्याचे उत्थानाचें युगप्रवर्तक कार्य केलें. ताणी कोंकणीचो सर्वार्थानी कायाकल्प केलो आनी निज्यांतल्यान पयल्या दर्जाचें साहित्य रचूंक जाता, हाची गवाय दिली. आपले कविते वाटेन आमचे आत्महीणपणाचेर ताणी चाबकां ओडलीं. अशे वेळार बयाभाव, दिनकर देसाय, श्रीपाद महादेव वर्दे -हांची मंडली कोंकणीतल्यान कविता करूक लागली. भारताचे स्वतंत्रतायेक लागून गोयंचे कोंकणीचे जिणेच्या क्रांतीचो आरंभ जालो. कोंकणी भासेंत स्वतंत्र गीतां रचूक आरंभलीं. स्वतंत्र गीतांचे वांगडा प्रेमगीतां, निसर्गगीतां, भावगीतां बी अनेक गीत -प्रकार कोंकणींत प्रयोगांत आयले. काळजांतले उमाळे कोंकणीचे लालित्य आनी संगीत घेवन उतरां वाटेन भायर सरले. स्वातंत्राच्या ध्यासा लागून नवी जाणविकाय समर्थपणान व्यक्त जावंका लागली. आत्म्याची भास आनी भविष्याचो वेध घेवन कवी कोंकणी मनसाचे उद्‌गायन करपांत मग्न जाले आनी कोंकणी कविता विकासाचें मेट चडूंक आरंभली. बांकीबाब बोरकार आनी मनोहरराय सरदेसाय हे वेळार कोंकणी कवितेची सेवा करून राबले. गोयंचे स्वतंत्रतायेची ओड लागून प्रजेचो आवाज, गोमंतभारती, विद्या हे नेमाळ्यांतल्यान अभिजित, दिनकर देसाय, शंकर भंडारी, मनोहरराय सरदेसाय हांच्यो कविता येंवका लागल्यो. देसाय हांचे 'गोयां तुज्या मोगा खातीर ', 'जायत जागे ', 'जायो -जुयो ' हे झेले

भायर आयले. शंकर रामाणी ह्या कवीन म्होवाळ मोगा पदां आनी निसर्ग गीतां रचलीं. फा. दकॉश्त ह्या मंगळूराच्या कवीन काळजाक, हात घालपी कांय कविता दिल्यो. शंकर भांडाऱ्याली गंभीर गीतां भो महत्वाचीं. वेंचिल्ले कोंकणी उतरांनीं बरयलेली अभिजिताची कविता विशयाचे खोलायेन आनी उमाळ्याचे हुनसाणीन अत्यधीक महत्वाची जाली.

गोयंचे सुटके लागून कोंकणी कवितेकूय नवी दिशा मेळ्ळी. कितल्या उदयोन्मुख कवींक पांखां फुटलीं. रघुनाथ विष्णु पंडित हांणी एक नव्या कवितेचो घोगोच कोंकणी कवितेचे मळार ओतलो. दिश्टाव्यान अर्थान आनी अणभवान भरिल्ली पंडिताली कविता. 'ल्हारां ', 'रेवेंतलीं पावलां ', 'मोगाचे आवडे', 'मोतयं ', 'नाच रे मोरा ', 'दर्या गाजोता', झेल्यांतल्यान कवी समाजाची दुर्दशा , मनीशपणाची खंत बी प्रकट करता. हेच दशकांत पांडुरंग भांगी हांगेलो 'दिस्टावो ' नवी नदर घेवन आयलो. माधव बोरकरांच्या 'उजवाडाचो रूख' कवितेन सहृदयांचे मनांचेर उजवाड घालो. पुंडलीक नायकालो 'गा आमी राखणे ' झेलो नवे नेटान प्रगट जालो. हे झेल्यांत समाजा कडल्यान घेतली स्फूर्त आनी पातळ उतर, तरशादी भास आनी मनशाचो हावेस आसा. पुंडलीकाली कविता नव्या कोंकणी कवितेचे जिवसाणीची गवाय दिता. प्रकाश पाडगांवकाराले वास्कोयनांत मनशाची व्यथा सांगल्या. केरळाचे आर. एस. भास्कर हाणी हेच विशयाचेर कविता रचल्या. रमेश वेळुस्कार हांची रंगयाळीं 'मोरपांखां ' अप्रूप कविता. सैमाची चित्रां हांचे कवितेचें वैशिष्ट्य. त्या भायर गोयांत, मंगळूरांत आनी केरळांत कितलेश्यच कवीच्यो कितलेश्यच बऱ्यो कविता जाल्या. ह्या सगळ्याच परामर्श हंगा घेवंका कठिणूच.

अशे फाटले चार दसकांतले कोंकणी कवितेंत एक नवे युगाचे दर्शन मेळटा. मनोहरराय सरदेसायाच्या काव्यांत जिवितांची रंगयाळीं चित्रां आसा. पूर्विल्ली संस्कृताय आनी आर्विल्ली पाश्चात्य संस्कृतायेचें अंतर तापेले काव्यांत खूब मेळटा. पूर्विल्ले आनी आर्विल्ल्या भारताचे संस्कृतायेचे अंतर 'मेज आयलें ' कविता वाचप्यां मुखार पावेंयता. फुडाराचो दिश्टावो आशिल्ली कवी आतां कोडूच वर्तमानाचें खंत भरलेलें चित्र प्रगटायता. साद्या-सोप्या,

घरावे भाशेंत समाजाची दुर्दशा सहृदयांचे मनांक तोपचे उतरांनी भायर आयल्या. 'जायो - जुयो ' थोड्या उतरांच्यो ल्हानशोच कविता, दुखेस्त सुराचो धुन घेवन बरेयल्या. मनोहररायाची कविता समाजा लागी एकजीव जावन चलता. तांगेले 'रत्नां सारखे भाव आनी भंगरान बांदील्लीं उतरां ' सहृदयांचे मनाक हठात् आकर्षीत करतात. 'जायो - जुयो ' कवितेंत -

अशेंच करीत आयले
फातरांच्या देवांक
रगतान न्हाणयले
रगताच्या मनशांक
फातरान धाडायले

हें चित्र अत्यंत सुंदरतायेन खैंचून दवरल्यां. सहृदयांचे मनांचेर अत्यधिक प्रभाव घालपी चित्र ! अशेंच

नाम गेलें, प्राणायाम गेलें, भस्म गेलें
चंदनाचें गंध गेलें
मेज आयलें, कदेल आयलें
बूट आयलें, बूटा वांगडा सूट आयलो
गांवगांवाचो कोयर आयलो

माधव बोरकार आपले आपणातूच अणभव सोदून काडून वेंचीक उतरांनी गुंथपाचे काम करता. सगळ्या विश्वाचो आदार घेवनूयि हो कवी स्वतातूंच रमता. भांगीचे कवितेंत पूर्विल्ली परंपरा जतनायेन राखून आयल्या. कांतयलेले भासेन ताणी कवितेचें दर उतर पारखून जोखून बरयलां. हो एक अंतर्मुख कवी वाचप्यांकय आपले कवितेंतल्यान अंतर्मुख करता. जिवितांतलें सत्य हांचे कवितेचे विशय आनी कवितेचे दुखेस्त सुर वाचप्यांक जिविताचे तळा लागी व्हरून सोडटा. अशें पांडुरंग भांगी आनी माधव बोरकार कोंकणी कवींक नवे खोलायेची, रुंदायेची मुखावेली वाट दाखोवन गेले.

केरळाचे कोंकणी साहित्याची नवी जागृति वीसाव्या शतकांत जाली. कोची कोंकणी भाषा प्रचार सभा, केरळ कोंकणी अकादमी आदि संस्थो




स्थापल्यो आनी 'कोंकण जनता', 'सारस्वत वाणी', कविता मुखार येवपाक लागली. श्री. के. अनंत भट नेमान हे नेमाळ्यांतल्यान कोंकणी गीतां छापून राबला. भक्ती आनी पुराणकथा तांगेले कविता -विशय. कांय भाव -कविताय तानी बरयल्याय. वत्सला मंजुनाथ राव हांचे कवन-संग्रह केरळांतले कोंकणी कवितेचे संदर्भांत व्हड मोलाचे. भक्तीचे विशय आनी बायलांले तळमळे हांचे कवितेचें वैशिष्ट्य. पी. एन. शिवानन्द शेणै आत्मनिष्ठ भावकविता बरवपी. केरळाचे कोंकणी कवितेक नवी शैली प्रदान करचो कवी. तीक्ष्ण नदर आनी नवे विचार हांचे कवितेचें वैशिष्ट्य. भवभूति हांगेले 'एको रसः करुण एव ' तत्व मानून हाणी सांगलां--

फुल्लल्लें फूल फाय पोणु वत्तलें
आयकिल्ले गींत फाय विसरून वत्तले
दुःख तसीचि राबतलें

खंत जिणेचे एक अविभाज्य अंग म्हूण हांचे मत. मोग आनी राग हांचे कवितेचो प्राण. 'बायल' कवितेंत हांचे जीवनदर्शन अशें अभिव्यक्त जालां -

पोणु मेळ्ळेले फातर सरी
पेल्यां घालूक पाणा जीवित.
राकून दवरलेलें देवबिंब सरी
पुजूकय अशिल्लें न्हय जीवित
यें जीवित
जिवंत राबूक अशिल्लें तं

उदात्त भावना, उत्कट अणभव, उत्कृष्ट विचार भरलेली कविता तीक्ष्ण आनी अंतःस्पर्शी उतरानी बरवपी कवी शरतचन्द्र शेणै. दर्शनाची आवड हांगेले कवितेचें वैशिष्ट्य. जिणे आनी मरणाचे अमूर्त भाव घेवन सहजतायेन कविता बरवपी शरत कोंकणी कवितेचे मळार आपलें वेगळें व्यक्तित्व घेवन आयला. विशय- परिवर्तन तशी, विचार -परिवर्तन आनी विचारांक लागून भाव -परिवर्तन हीच शरतचन्द्राली कविता. मनीशकुलाचेर एवंचे संकष्टां लागून कवी तांची व्यथा आपली जावन काडता आनी खंत प्रकट करता. हे व्यथेची उत्तावणी शरताले कवितेची उदात्तता वाचप्यां मुखार दवरता. जंय थंय अंतरमुख जावन

कवी हे खंतीक अपणाचेर घालता आनी स्वयं त्रास दीवन समाधान पावंचाक प्रयत्न करता. आर्विल्ले कोंकणी कवितेंत एक वेगळे सुरा लागून शरतचन्द्र हांगेली कविता ताचो वेगळो स्वभाव घेवन आयल्या.

फाटले चार दसकांतली कोंकणी कविता बारीकसाणीन पळेयल्यार विपुलकायेंत जावं विविधकायेंत जावं, कितले वेगळे वेगळे अंगानि बळत आसा, हे सहज लक्ष्यांत येता. हर एक कवी आपापले कवितेच्यो नव्यो नव्यो शक्ती सोदीता. पांडुरंग भांगी, शंकर रामाणी, लक्ष्मणराव सरदेसाय, विजयाबाय सरमळकार, नागेश करमली, माधव बोरकार, शंकर भंडारी, उदय बेंभ्रो, कितले तरी कवी गोयांत आनी आर. एस. भास्कर, शरतचन्द्र शेणै, शिवानन्द शेणै, वत्सला मंजुनाथ राव, राजीव, कितले तरी कवी केरळांत आपापलो बाज प्रगट करतात. हांचो आत्मविश्वास उद्दंड. पुंडलीक नायक, प्रकाश पाडगांवकार, रमेश वेळुस्कार हांची कविता अभिनव आनी जिवस आसा. ह्यो कविता कोंकणी अस्मितायेचे खणींत सून अज्ञात धन भायर हाडून आसा.

साहित्य म्हळ्यार समाजाचो हारसो. आयचे समाजांत मारामाऱ्यो. आत्मघात, अपघात, स्मगलिंग, सोरो, टूरिझम, सिनेमा, नवीं हाटेलं , फटिंगपण, सत्तेची अनीति बी वाडल्या. "संवसार भर मनीश मनशाचेर उठला. द्वेश, मत्सर, उंच-उणाक, जात-धर्म, काळे-गोरे, अशा साबार प्रस्नांनी धुस्पून मनशान मनीसकुळयेची अधोगती चलयल्या, धर्मपिठांचो देवधर्माचो बाजार चलयला............. ह्याच मनशान बरीच भौतीक प्रगती करून ब्रह्मांडाची दारां........... जनेलं उकती केल्यांत आनी आपल्या कर्तृत्वी मनाची प्रागल्भताय दाखयल्या आनी तोच संहारक शास्त्रां-अस्त्रां निर्मून तीं आपल्या सरक्याच हाडा-मांसाच्या मनशांचो नाश करपाक वापरता............." मनशाची ही लजेची आनी राणटीपणाची गजाल कोंकणी कवितेंत खूब रंगयाळी देखूक येता. आयचो मनीश अपणा दिक्कान व्हडलो आस्पाव घालून देवाकय घोळकावंक सोदता. स्वार्थाचें हें विडंबन जितलें मार्मीक तितलेंच सालकाडपीय आसा. मनोहरराय हाणी सांगलां -

पाख्या, पाख्या वात ही
करतली तुजी घात

उजवाडान भरतली म्हजी रात
सवणें म्हजें
भांगरा-तोंचीन
आयलां घेवन
उतरांच्यो काड्यो
तुमच्या, मनांत
घोंटेर करूक

मनोहररायाचे मनाची लय लोकमानसा कडेन देखूक येता. प्रतीकांचे आनी व्यंग्याचे वांगडा सत्य उतरां सांगून लोकांचे उमाळ्याक उतरांचे रूप ताणी प्रदान केल्यां.

आयचो मनीश दयाहीन, धर्महीन जावन स्वार्थाक आनी लाभाक लक्ष्य करून मुखार वता. मनशाचो मनशा लागी नातो आनी रिश्तो नाच. आर. एस. भास्कर हाणी 'शांत जा भुंये ' कवितेंत सांगल्यां-

मनशा खातीर सगळ्यांकय पीडा जाता
मनीश मनशाकच मारता
जिवोच कातरता
जिवोच लासता -
जिवोच चाबता
जीव आसतनाच पुरता
कागज जसीच पिंजून उडेयता

मनीश मनशाक भित्ता. आयचे समाजाचे हेंच वैशिष्ट्य. मनीश एकलोच जियेता. एकलोच मरता. कालचे आनी फायचे मद्दें तो तुंटून लांबता आनी चेंचून राबता. समाजांतली फटवण आनी मनशाले धार्मीक नाशाक लक्ष्य करून मुंबयचे आनंद वर्टी हांगेलीं उतरां 'पोल्यूशन' कवितेंतल्यान अशी आयलीं -

खरी खोटी नाती हंगा
खरे खोटे मुखार भाव
"थंक्यू" तोडांत घोळयल्यार

चोर लेगीत दिसत साव
हासत हासत उलैतनां
हातांत येता दूसरो हात
फाट जरा फिरचे भितर
कुल्याचेर बसत लात

मनोहरराय सरदेसाय सुटके उपरांत भारतांतले मनशाचें हेच रूपा विशीं खंतीन उलेयता. 'मदले आमी ' कवितेचे विशय हेच विचारा लागून चितरायल्यात. आयचो तो मनीश भितल्ले गांठीचो, मनांत एक आनी कर्मांत वेगळो. प्रकाश पाडगांवकार म्हणटा-

हांव हारशो तूंय हारशो हारशा हारशांक जीव पिसो
एकांमेकां बिंबां भरसून भरून वोत्ता जीणे शिंसो
रूप पर्तवपी नाका हारशो असलो हारशो फटयत गा
हारशांत ह्या पळयल्यार हांव माकाच परकी दिसत गा

मनशान ताकाच परकी मानून घेवंचें एक विडम्बना. भोंवतणेचो फटींगपणान भरिल्लो समाज कविकूय फटींग करूंक सोदता. पुण जांटेपणाचे अणभव आशिल्लो कवी सांगता-

कितले तुम्हीं त्रास दिल्यार फटीक सत म्हणचो ना

ही सत अणभवाची आनी उजू चलणुकेची घट बुनयाद बाकीबाब बोरकार हांगेले कवितेंत देखूक येता. स्वतंत्र भारतांतली आयची अनीति पळवून कवीक किटकिटे येता. लजा सोणु आपलें स्वार्थ सादपाक कांय जाण मुखार सरल्या हे काळार कवी आशा करता 'धरतरेर जेन्ना अनीत वाडटा तेन्ना देव अवतार घेता' आनी आपले प्रश्नाचो समाधान सोदता.

कवी समाजाचो एक वांगडी आनी भौसाचोच एक वंटो. समाजाचेर आयिलें संकट ताकाय उरता. मनशाच्या जीविताचेर नदर घालून तो सर्वकालीन सत्य सांगपाचो प्रयत्न करता. खरो कवी सदा तत्वचिंतक आसता. प्रकाश पाडगांवकार असलोच एक कवी, पाश्चात्यालें भौतीकवादाचें समर्थन करपी कवी भारतांतले आध्यात्मवादाकूय महत्त्व दिता आनी आपले

अन्तःकरणाचे उदारतायेक दरशायता. अणभवाचे आनी तरळ भावनेचे मेळान कवी सांगून येता-

उजवाडाचें पावल म्हजें काळखां सोंपण चट्टलें
येंव तूफान जांव मोडं सहजकायेन परतीतलें

'हांव अश्वत्थामो ' कवितेंतलो अश्वत्थामो एक संत्रस्त व्यक्ती, आयचे मनशाचें रूप दिसता. चिरंतन सुखा दुखाची जाणविकाय आशिले हे कवितेक लागून सांगपाचें असता 'जो मेरेन धरतरेर मनीस जिवो आसतलो तो मेरेन अश्वत्थामाक मरण ना'. आयचो मनीश लौकीक जीणें मात्र राबता. पारमार्थीक जीणें तो हारिल्लो आसता. आपल्या सोदांत तो प्रकाश न्हय अंधकार पळोवंचाक आस करता. उजवाडाक तो शाप म्हणटा-

म्हजे जीणेक उजवाडाचो शाप
आसा देखून हांव काळोख
पळोवंका शकना

जाळांच्या, हुमेच्या, जळपी रगताचे शीरां लागून आयचो मनीश सदा खतखततां आसता. तो मूळांत सकून सुंटून गेला. ताचे नाते सग तुंटून गेले.

फाटले चार दसकांतली कोंकणी कविता पळेयल्यार मुळाव्याचे संस्कृतायेचो ह्रास आनी पाश्चात्य संस्कृतायेचो विकास देखूक येता. फलस्वरूप निर्शेलेले मनशाचें रूप, काळोख सोदून घेवंचे मनशाचें रूप हे कवितेंत चितरायल्यां. ताका लागून हे मनशाक आशा दिवंचीं, उजवाड दाखोंवचीं उतरां ह्या कवितेंत अनर्घ मोलाचीं. बाकीबाबाले 'जागी जाल्या गोयंची सासाय येतलो भार येतलो भार' उतरां लागून माधव बोरकार हाणी सांगलां -

फाल्यां गच्च दोळे धांपून बशिल्लो
उजवाडाच्या सासायेचो रूख फळचो आसा

प्रकाश पाडागांवकारालो निजपणाचो अणभवूय होच-

संवसार भरची मनीस जात
एकामेकां वेंगेत येतली

विश्वकल्याण मनीसकायेची
ऋचा उजवाडा गायतली.

अशें जीवमात्राचे दुख वळखपी कवी आनी तांची कविता कोंकणींत भरीत आसा. मार्कुस फेर्नांदीस दुसरयाले दुःखांत वंटो घेवन तांचे दुःख ना करूक आशिल्लो प्रयत्न करता. 'सर्वे सुखिनः सन्तु सर्वे सन्तु निरामयाः ' म्हणिल्ले भारतीय संस्कृतायेचे मूलमंत्र हे कवितेंत व्यापून राबल्यां. भिकारी, विधवा आनी समाजांतले उपेक्षा अणभव करचे दुखेस्त मनीश हे कवितेंत चित्रण केल्या. हे चित्र आयचे कोंकणी कवितेचे सूक्ष्म दृष्टीचें उदाहरण.

आयची कोंकणी कविता ओज, आवेश, किंवाटो, तिडक , उपहास -हे गुणानी भरिल्ली. भव्य विचारानी भरिल्ली आकर्षणाची ही कविता. वैयक्तीक आनी सामाजीक भावनेची ओड कवितेंत भरीत मेळटा. अंतर्मुख आनी जीवनसत्य सोदपी नाजुक प्रसंग हे कवितेचें वैशिष्ट्य. मानुसकेचें पतन पळवन ही कविता तडफडटा आनी खवळटा. मनीशकायेचे चांगपणाक लक्ष्य करून कांय प्रयत्न करता. विशयाची खोलाय आनी शोबीत बांदावळ कोंकणी काव्यांत वेगळीच सुवात घेवन आयली. तरा तरा विशय कोंकणी कवितेचे कलेवरांत आस्पाव घेतात. देशभक्ती, देवभक्ती, नारीभक्ती, सैमाची सुंदरता, मोगाची आनी भोगाची वृत्ती, त्याग आनी निवृत्ती हे कवितेंत व्यापून आसा. हे विशय चित्र आनी स्वरांचे मेळान नित्य नवीन जावन दिसतात. कोंकणी भासेचें म्होवाळपण आनी निजाचें संगीत कवितांतुल्यान उक्तें जाता. बर्यांतलें बरें, सुंदरांतले सुंदर आनी सूक्ष्मांतले सूक्ष्म विचार आनी भाव हे भाशेंतल्यान उक्तावून आयलात.

वर्णनात्मकता काव्याचें मुखेलपण. हांतूतल्यान काव्यसौन्दर्य आनी व्याप्ती घेता. वस्तुवर्णन जंय थंय हे कवितेंत केल्यां. शाराचें चित्र, सौन्दर्याचें वर्णन, रेखाचित्र, सैमाचें वर्णन हे कवितेंत खूब आसा. एक भिकार्यालें सुन्दर चित्र अशी खैंचील्यां.

एक भिकारी आसलो गांव-घरा भोंवतालो
ज्युदी खोमीस काश्टी नासली ताका धास्ती
धव्या माथ्यार रूमाल तांबडो
खाखेंत पोती हातांत दांडो

पावसाचें वर्णन भो मनोहर -

भिजलीं झाडां भिजलीं पानां
तकतकीत सजली वनां
सळसळत व्हाळो आयलो
व्हावन दोंगरा
भल्ल्यो बांयो भल्ली तळी
पांचवेचार झळीमळी
नख शिखांत न्हावन आयली ही वसुन्धरा

उतरांची तांक, अनुप्रासाची छटा, प्रकृतीचें मानवीकरण, अमोघ आसा. कोंकणी भासेची मंजूळकाय सहृदयांचे मन हठात् आकर्षीत करता. सैमाचें इतलें सुन्दर चित्र भो अप्रूप. काव्यास्वादक समाज सोबितपणाचो भक्त आसता. कलांवत कवी काव्यांत सुंदर अभिव्यक्ती करूंक प्रयत्न करता. हे सोबीतपण काव्यास्वादनाचें मानदंड. म्होवाळपणाचो आनी संवेदनाचो एक मेळ रमेश वेळुस्काराले 'चित्रां-उतरां' हे कवितेंत अशे मेळता-

हो मोग उचंबळ दर्या
आनी दर्यांत विरपी सूर्या
तीं भंगरा किरणां चंवरां
धवीं उदकार देवंपी सांवरां
खळखळ त्या ल्हारांचो
माडा चुट्यांनी मेजून घेवंचो
फुडे कापसाच्या पावलानीं
चलता अस्तमतेची रानी

प्रतीकांनी शैली निर्मूचें आयचे कवींक लायक दिसता. कविता बरवपाक ताणी एक अपरूप शैलीचो प्रयोग केला. पुराणांतले संदर्भ अपणावून आयचे मुखेल विशयाची व्याख्या सहृदयांचे मुखार दवरल्या. आयचे मनशाले अभिमानाक तो 'पद्मव्यूहांत घुपसल्ले अभिमन्यू सारको ' मानून घेता. धृतराष्ट्रालें कुड्डेपण आयचे मनशाले स्वार्थाची व्याख्या करूंक कवीचे सहायाक पावंता. आयचे मनशाचे अमानवीय वर्तणुकेचे दुष्फला विशीं आर.

एस. भास्कर पुराणाचे कथेंतलें उदाहरण दीवन सांगता-

हो पिठो
समिद्रांत बुड्की मारतलो
समिद्रा देगेर अचानक
तोण जावन किल्लेतलो
तुटेयता तुटेयता रूपांतर घेतलो
लोखंडा कांडण जातोलो
आनी
होच आसतलो यमकाळ
मनीसवंशाच्या विनाशाक

पूर्विल्ले कथा-संकेताचे सहायान नवी प्रतीकां, नवे अलंकार भास्कराले कवितेचें खासेलपण.

जीणेचें वैविध्य आनी यथार्थ सांगपी आयची कोंकणी कविता तीचे भोंवतणेचे संवसारा पसून सदा जागृत आसता. मूंये लागून हत्ती पर्यंत विशय अपणावून तरा तरा बिंबांचे सहायान ही कविता भाव आनी अणभवांक चतुरायेन चितरायता. आयचे समाजांतले मनशाचे वीखाचें चित्र खैंचूक सर्पाचें बिंब अधिक उपयोगी आसा. मनशाचें आनी सर्पाचे समान भाव अशे दाखयल्यात-

उन्मत्त स्वरांत म्हज्या फुत्काराचो शेष आनी
म्हज्या हाता मिठी भितर यमपाशा घट्टपण
म्हज्या उतर चाली भितर वक्रताय; सूड मनान
सर्पदेही हांव जांणा

प्रकाश पाडगांवकार हांगेली कविता दर्शनाचे सहायान रेलाचे प्रतीकांनी मनशाचे जिणे आनी मरणाची काणी सांगता. आर्विल्ले मनशाचे जिणे विशीं सजग कवी तत्वगिन्यान अपणावून पूर्विल्ले विचारांचे सहायान जिणेक मुखार व्हरपा खातीर प्रयत्न करता. 'पुनरपि जननं, पुनरपि मरणम्', हें सत्य पाडगांवकार आपले कवितेंतल्यान परगटायता. जातिपांतीचे भेद नास्तना एकमेळ वाडवपा खातीर पांडगांवकर अशे सांगता -

रेलवेन पाद्री, शिख गुरुचे
आयकतां मुल्ला, स्वामीचे विचार
रेलवे जशी स्टेशनार थारता
तशे थारतात हे एकाच तत्वार

रेल्वेचे प्रतीकांतल्यान आयचे मनशाले जिणेचे अणभव सांगल्या आसा. उतरांचे सोबीत रूप, लालित्य आनी अलंकारांचो प्रयोग कवितेचो मुखेल आनंद. अलंकाराचे सुंदर आनी सम्यक् प्रयोगा खातीर कवितेचें सौन्दर्य आसता. हाचें उदाहरण-

फांतोड्याची ओली तांबसाण तुज्या पोल्यार पिशी
दोळ्यांतल्यान रकयता पुनव सातरंगी खोशी
नखेत्रांची लिकलिक फांती उमास काळ्या केसार
एकेक तुजें शाश्वत उतर कुडशिल्प विनाशी

पारिस्थितीक वर्णन नवे कवितेची एक मुखेल प्रवृत्ति. प्रकाश बाबाले कवितेंत ही वर्णन - शैली देखूक मेळटा-

यंत्राच्या घरघरीतल्यान
शास्त्राच्या विनाशतायेतल्यान
अनादीकाळा सावन-
हांव एक अजरंवर
शेवणे

यंत्राची घरघर आनी शस्त्रांची विनाशताय आयचे परस्थितीचें वर्णन करता. आर. एस. भास्कर हांगेली 'मना तू अस्वस्थ ' कविता सूर्याचे अस्तमत्तेचें वर्णन अशे करता-

अस्तंतेचे सूर्यबिंब आज तुका रक्ता घूळो
सागोर निष्ठूर दैत्या सारको
निस्तवंपि रगत चिवूंन घेता
नाचपी ल्हारांक फाटीर लागल्या
घाटघाट रक्तशाय

भयानक उपमानांचे प्रयोगान आयचे भोवंतणेचे भयानक वातावरणाचो परिचय दिवपी ही कविता आयचे कोंकणी कवितेचे शैलीची नवलाय दाखवपी.

फाटले चार दसकांत कोंकणी साहित्याचे मळार अनेक कवी उबरून आयले. कांय जाण धूमकेतू सारके परगूटन आपलो प्रभाव दाखोवन अंतर्धान जाले. दुसरे कांय जाण साहित्य निर्मून कोंकणीचे मळबांत नखेत्रां सारखे परजळून राबले. कोंकणी कवितेचे विकासांत हांतुतल्या एक्केक कवीचो वंटो मोलाचो. ह्या सगळ्यांची नांवां जावं ताणी केल्ले काव्याचो नियाळ जावं हांगा संभव न्हय. जाल्यारीय थोडींची नांवां हांगा आस्पावन घेतल्यां. हांतु ल्हान-व्हड, बरे -वायट, गोंय, मुंबय, मंगळूर कोची हे वाठरांतल्या कवितेचो परिचय दिवपाचो जो प्रयत्न केल्या तो अत्यंत कठीन आसला. कोंकणी कविता विकासाचे ल्हान प्रायेवेल्यान चलतल्या आसा. आपले आपले स्वतंत्र वाटानी आनी विचारानी कवी मुखार सरतात हांतु दुबाव ना. एकमेका कडेन स्फूर्त घेवन कोंकणीचे हे कवी कोंकणी कवितेचे जीवसाणीची आनी ताचे उज्जळ फुडाराची गवाय दिता. प्रकाश बाबालीं हीं उतरां हांगा सांदर्भीक-

नवें जाणविके हांव तरणाटो  
फायचे जगाचो शिल्पी  
जिणे अध्यात्म गुथून उतरांनी  
सृजनतायेक पर्जळावपी

दर एक कोंकणी कवी विशीं यही आस घेवंका आसा आनी कोंकणी आवयेक सांगचें आसा-

'तुगेलो गे रथ चलतलो मुखार  
सर्व जग भर करीत जयजयकार '.

कोची ३२  
जनवरी २००४

**एल. सुनीता बाय**

# मांडावळ

# मनोहरराय सरदेसाय

**जल्म : १९२५**

मनोहरराय सरदेसाय कोंकणीचो एक व्हडलो कवी. तांचे काव्याचे एकेक पदांत कोंकणी समाज जिवंत आसा. ल्हानसे प्रायेर तानी लेखणी हातां घेतल्या आनी गीत बरवन कोंकणीची सेवा केल्या. मनोहरराय सरदेसाय हांचे बरोबर कोंकणी कविता सगळ्या अंगानी फुलैतलो आनी सर्वस्वी तिजे सेवेक वावुरतलो कवी दुसरो नाच. कोंकणी भासे वांगडा मनोहरराय सरदेसाय हांका पुर्तगाली, फ्रेंच, मराठी, संस्कृत हे भासेंची जाणविकाय आसा.

कोंकणी समाज जसो जसो अणभवान, प्रज्ञेन, प्रतिभेन, आनी संस्कारानी विकसीत जाल्यां तशें तशें अणभवाची रंगयाळीं चित्रां मनोहररायाले कवितेंत देखूक येतात. तांगेले भाव आनी उतरां सहृदयांचे मनाक हठात् आकर्षीत करतात.

**कवन**

गोयां तुजे मोगा खातीर (१९६१), आज रे धोलार पोडली बड्डी (१९६१), जायत जागे (१९६४), जय पुण्यभू भारत (१९६५), बेब्यांचे काजर (१९६५), रामगीता (१९६८), जायो-जुयो (१९७०), पिस्सोळीं (१९७८), भंगराची कुराड (१९७९), मणकूलीं गीतां (१९८२), मनोहर गीतां (१९८७), गोड गोड गीतां (१९९१).

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

मूल संपादपी, कोंकणी विश्वकोश १९९१.

उपाध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादमी १९८५-९२.

अध्यक्ष, कोंकणी भाशामंडल, गोंय १९६४-७०.

गोवा कला अकादमी पुरस्कार १९७२, १९८०.
साहित्य अकादमी पुरस्कार १९८०.
गोवा देशाचो सांस्कृतीक पुरस्कार १९९१-९२.
लाइन्स क्लब अन्तर्देशीय पुरस्कार १९९२-९३.
शतवाहन पुरस्कार १९९३.
गोमंत शारदा पुरस्कार- २०००.

**जायो-जुयो** कवितेंतल्यान मनोहरराय सरदेसायांन कवितेचो एक अपूर्व आनी अप्रूप घाट निर्माण केलो. हे कवितेंत जिणेचे मर्म, प्राणाचो विश्वास, प्रतिभेचि चमक आनी काव्याचें सौन्दर्य प्रगट जाता. **मदले आमी** आयचे कालाचे मनशाले नासले स्वरूपाचे विंगडच चित्र वाचप्यांचे मुखार दवरता. **मेज आयलें** कविता आयचे संस्कृतायेचे वेव्हारा पसून सुन्दरकायेन सांगून आयल्या.

## जायो-जुयो

जंय पावल ना
थंय वाट कित्याक ?
जंय वावर ना
थंय हात कित्याक ?
जंय अन्न ना
थंय ताट कित्याक ?
जंय मोग ना
थंय रात कित्याक ?

*

-पाख्या पाख्या वात ही
करतली तुजी घात
-उजवाडान भरतली
म्हजी रात

*

दुकां गळोवन
तळें जाता
तातूंत मळब
रूप चोयता

*

सोय बरी वांटचें आदीं
रोस पिळून काडचो न्हय
भितर उतर शिजचें आदीं
गीत पानार वाडचें न्हय

*

जिविता पासत
दुडू जोडलो
दुडवा पासत
जिवीत मोडलें

*

सपनांत तिजो घेवन उमो
खुशालकायेंत बुडलो हांव
एकच मात खंत मनाक
विचाल्लें ना
तिजें नांव

*

फुलान कितेंय मागचें जाल्यार
परमळून मागचें
पाळान कितेंय दिवंचे जाल्यार
हड्डें पिळून दिवंचें

मनान कितेंय सांगचें जाल्यार
मोगान जळून सांगचें

*

अशेंच करीत आयले
फतरांच्या देवांक
रगतान न्हाणयले
रगताच्या मनशांक
फातरान धाडायले

*

कवीत म्हळ्यार दिश्ट एक
दिश्टींतल्यान सृश्ट जाता
कवीत म्हळ्यार सपन एक
सपनांतल्यान सर्ग येता

*

भयान सांगलें ; धांव
आशेन सांगलें ; राब

*

सवणें म्हजें
भांगरा -तोंचीन
आयलां घेवन
उतरांच्यो काडयो
तुमच्या मनांत
घोंटेर करूंक

*

सुक्या सङ्यार
उदक मेळ्ळें
मर्णा धडेर
जिवीत कळ्ळें

*

## मदले आमी

कालच्यो राती, फायचे दीस
हांचे मदीं- मदले आमी
न्हय भाटकार,न्हय मुंडकार
न्हय घरकार, न्हय शेतकार
न्हय वासरेंत, न्हय रस्त्यार
न्हय शागीर्द, न्हय स्वामी
असले आमी-मदले आमी

आमकां नांगर धरूक येना
आमकां माडार चडूंक येना
आमकां चूडीत मोडूंक येना
आमकां जळव फोडूंक येना
रोवंक येना, लुवंक येना
तासूंक येना कोंड्या कामी
असले आमी-मदले आमी

सोंपलें भात, सोंप्यार सूप
मोडलें दार, खिळ्याक कुलूप
काण गेलें, उल्लां खीण



बापायक फोल्ग, आमकां रीण
माचूल गेलें, मोटार ना
मानाय गेलो, शोफेर ना
रुमाल गेलो, चेपें ना
झल्लें जोतें, बूट ना
पिंजलें धोतर, सूट ना
पगा-घुलो फुटून गेल्यो
खेळूंक येना ब्रीज-रमी
असले आमी-मदले आमी

मनश्या मुखार बागूंक येना
देवा मुखार नांचूक येना
न्हय देंवचार, न्हय जल्मी
असले आमी-मदले आमी

हात मुखार करूंक येना
पांय कशेच चाटूंक येना
खोंट कोणाक हाणूं येना
नावाड्याच्या नश्टेपणाक
करूंक येना नखलामी
असले आमी-मदले आमी

पासो मोखून शेणूक येना
मोगा-उज्यांत जळूक येना
रडूंक येना, रडोवंक येना
हांसूक येना, हांसोवंक येना
मारूंक येना, मरूंक येना

शेळें हून रगत जालां
जिरून गेल्या खुमखुमी
असले आमी-मदले आमी

न्हंय कालचे न्हंय आयचे
न्हंय हांगचे न्हंय थंगचे
न्हंय पूर्वी, न्हंय पश्चिमी
असले आमी-मदले आमी

*

## मेज आयलें

मेज आयलें
मेजार बसून कोम आयलें , च्यावन आयलें
आयली सुरी, आयलें कुलेर, आयलो कांटो
आयली बशी
सोंपल्यां आतां उठा बशी
मेज आयलें. मेजा वांगडा कदेल आयलें
कदेल आयलें, पाट गेलो, रांगाळेचो थाट गेलो
आसनमांडी गेली, शेंडी गेली
मुकरो गेलो, गेलो रोलो
पुडवें गेलें, जानवें गेलें, पितांबर गेलें,
पत्रावळ गेली, चित्रावळ गेली,
पंचो गेलो, पंचपात्र गेलें, पंचमहाभुतां गेलीं,
पळी गेली, घांट गेली, तिकली गेली
तिळो गेलो, गायत्रीमंत्र गेलो
नाम गेलें, प्राणायाम गेलें, भस्म गेलें

चंदनाचें गंध गेलें.
मेज आयलें, कदेल आयलें
बूट आयलें, बुटा वांगडा सूट आयलो
गांवगांवचो कोयर आयलो
शर्ट आयलो टाय आयलो
पांय धुवपा गरज ना, हात धुवपा गरज ना
तोंड धुवपा गरज ना, दांत घसपा गरज ना
आयलो तसो बेसलो, आयलो तसो जेवलो
तितलोच वेळ वांचलो
मेज आयलें, पेज गेली, आमली गेली
कातली गेली,
मेज आयलें च्या आयली, कॉफी आयली
पाव आयलो, बटर आयलें, सूप आयलो
उजवतीचो परमळ गेलो, पण्टेचो प्रकाश गेलो
कितलें गेलें, कितलें आयलें ?
कितलें आयलें कितलें गेलें ?
मेज आयलें, मेज आयलें, मेज आयलें.

# नागेश करमली

**जल्म : १९३३**

जिणेचे संगरांत झुजतां कविता घडवपी कवी नागेश करमली. कोंकणीचो एक नामन आशीलो कवी. अणभवाचे सांडीर कवितेचो सोद घेवपी. हांची कविता जिवे जाणविकायेक विसरना, हेच हे कवितेचें वैशिष्ट्य. कळेजांतल्यान उज्याचीं ल्हारां ओंकपी कवी आपले कवितेंतल्यान आडनीत, फटकिरेपण, अडेचो बडवाचार, जुलुम जबरदस्ती, बंदेपण हांचे आड सांवा मांडून भायार सरता आनी किंवाट्यान उल्लेयता. जिविताचि खराय सोदीत आनी भोगीत कवी ताचे कवितेंतल्यान आपले अणभव वांटीता. आत्मविश्वास उत्तावपी हो कवी कोंकणी कवितेचे मळार अपणाली एक खाशेल सुवात थारावन राबला.

**कवन**

जोरगत, सांवार, वंशकुळाचें देणें आनी कांय कोंकणी कविता.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

स्थापक सदस्य, कोंकणी भाशामंडल, गोंय.
कार्यकारी सदस्य, कोंकणी परिशद.
सदस्य, कोंकणी अकादमी, संकलन समिती स्टेट गजेटीयर, गोंय.
अध्यक्ष, अखिल भारतीय कोंकणी सम्मेलन, १९९६.
केन्द्र साहित्य अकादमी पुरस्कार १९९२.
सांस्कृतीक पुरस्कार, गोंय १९९३- ९४.

**कसले कसले दीस** कवितेंत परस्पर विरोधा तत्वानी भरिल्ले संवसाराचे रूपाचेर कवी आश्चर्य करता. धर्माक विसरून फाटफूड देखनास्तना मर्णाकय

वेंगावून घेवंचे दीस कवीचे मनांक दुःख दितात. उमाळ्यांच्या ल्हारार खेळवंचे धुंदपणान भारावंचे दीस भो दुखेस्त. **एक अत्रेग** सैमाचे वेंगेंत राबचे कवीची नदर सुंदरतायेन व्यक्त करपी कविता. शब्दप्रयोगाचे आनी अर्थगांभीर्याचे दृष्टीन अतिसुंदर कविता.

## कसले कसले दीस

कसले कसले दीस आमी पळोवंचे ?!
दीस-
केन्ना दुखां गळोवंचे
केन्ना सुखां जळोवंचे
केन्ना आमचे आमकांच थुळेवंचे
आनी केन्ना
आपणेच आपणाक
झडपू झडपून उडोवंचे
कसले कसले दीस.....

दीस-
भर दंपारां काळशेच जावन उदेवंचे
आनी सूर्यदेवा
रातीच्या गर्भांतच
चेंचून चेंचून माडोवंचे
कसले कसले दीस आमी पळोवंचे ?!

दीस-
रूप आशिल्ले आनी रूप नाशिल्ले
रंगात तिंबूनय रंग विटिल्ले
दीस-

कांत मारूनय तेज नाशिल्ले
दीस-
रगताळिल्ले पणून
भितल्ले भितर किणेवंचे
धेंपांधेंपांचेर
नकळटणांच आडावंचे
कसले कसले दीस आमी पळोवंचे ?!

दीस-
दीस धर्माक विसरचे
दीस म्हेळशे, बावशे
तरीय रणांगणांत घालून घेवंचे
फाटफूड देखनासतना
सांवार भारान-
मर्णाकय वेंगावन घेवंचे
कसले कसले दीस आमी पळोवंचे ?!

दीस-
उदेतनाच झेंमून उडोवंचे
तरीय
फुडाराचीं सपनां खेळोवंचे
नदरेपयल्या
तुफानाचो सरांव घेवंक लावंचे
फाल्यांचें चिंतून-
धगा उज्या सांगाता
वोगा जागेचेंय
जोतीं मालें पेटोवंचे
कसले कसले दीस आमी पळोवंचे ?!

दीस-
दर खिणा वाचा दामून कोंचून उडोवंचे
तरीय उमाळ्यांच्या ल्हारांर खेळोवंचे
दिका दिकां पोट फाळून
साद घालीत-
दिक दिगंतराक आपोवंचे
आमच्या आमकांच होरावंचे
धुंदपणान भारावंचे
कसले कसले दीस....
केन्ना दुखां गळोवंचे
केन्ना सुखा जळोवंचे
कसले कसले दीस आमी पळोवंचे ?!

*

## एक अत्रेग

फांत्या पारा, झिळमिळ्यार
मंद मंद वारया तालार,
दिसा किर्णांच्या पावलांची
सुलूस लागचे पयलींच
शिंयाळ्याच्या दवा थेंब्यार
वाजूं दी तुजी पावली....
आनी
तुजे जाग्रुताये वेंगेंत घेवन
जागूं दी
म्हजे युगांचालीची
चाल कंवळी !

दोंगर, घळी, वझरे-व्हाळ
न्हंयां उदक चक्रचयाळ....
भरूं दी हे नदरेंत
दिक्-दिगंतरा
मळबा पाख्याची पावळी !
उडूं दी हांगा
शेतां मळ्यांतल्यान
रोंपा रोंपयाचे
रास उल्यार उले;
फूलूं दी
उबंत वारया-आंगणांत
साळेर सुकण्याचे गळे
आनी
हांसूं दी
पोर्सा पोर्सांत
फुला फुलांचे
रास रास कळे;
कश्टा कणसांक
मेळूं दी
आनी निरंतर
गण अगणीत
सार्थक सुवाळे !

*

# पांडुरंग भांगी

**जल्म : १९२३**

गोयंचे स्वतंत्रताये उपरांत कोंकणी कविता बरवपी श्रेष्ठ कवी. कवितेंसून जिवपाचें बळ ग्रहण करपी एकमात्र कोंकणी कवी. तांचे कवितेंत मनशाचो सोद आनी भोंवतणे संसाराची वळख आसा. भांगी एक कलावंत, जे खोल आनी उफाट घेवन भावनेनच सृजनाच्या मंदिरांत आयले. तांचे कवितेंत मनीशपणाचो साक्षात्कार आनंदान उचंबळून आयला. दुसरयांचे व्यथांचो कळवळोय हंगा थंगा देखूक येता. हांची कविता घट्टल्या घटितांची आनी स्पंदनांची. हांगेले कवितेंत उतरां आडखळूक नात. सृजनाची तांक हाचें वैशिष्ट्य.

**कवन**

दिस्टावो, अदृष्टाचे कळे, चांफेली सांज.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

अंग्रेजी, बंगला, हिन्दी - सून कोंकणींत अणकार.
कोंकणी शब्दसागराचें संपादन.
गोवा कला- अकादमीचो पुरस्कार.
जेज्वीन आंतोन पिटैट पुरस्कार.
जनगंगा पुरस्कार.
आस्मिताय प्रतिष्ठान पुरस्कार.
साहित्य अकादमी पुरस्कार.

**सावळी** हे कवितेंत भांगी आपले हावेसाची उर्बेची सावळी सैमांत पळौन आयला. आपले सावळेंतल्यान झिरपूची रात मनांत सपनां जागयता आनी

कवीचो सोद घेवन एता. भांगी हांची अंतर्मुखी मनांची सावळी हे कवितेंत देखूक येता. **त्रिकाळाच्या धनिया** कविता हेच अंतर्मुखी मनांचें भान वाचप्यांक करून दिता.

## सावळी

घोंटिल्या मळबाचेर
कांतयल्ली बावली
केन्ना तरी शेंडिल्ली
म्हजीचि ती सावळी

हावेसांचे धल्ले कळे
मळबाक आतां फुटले दोळे
लक्ष तांच्या व्यथांचे
धर्तरेक दुवाळे

ल्हवू ल्हवू रात देंवता
सावळेंतल्यान झिरपता
थेंब्या थेंब्यांत सपनां जागयत
सरांव म्हजो घेवंक येता

कित्याक धरूं खंत आतां
हावेस म्हजे जियेतात-
रेंवेंच्या कणा कणाक
ल्हारां हाड्टात नवी जाग

रात आतां शांत उबी
कांतयल्ली बावली

हावेसांच्या उर्बेची
म्हजीचि ती सावळी

*

## त्रिकाळाच्या धनया

त्रिकाळाच्या धनया
रगतांत चंद्र
फुलयतलो जल्यार फुलै
आनी उतरांक
इंगळो दसय
अन्नाचे पांगींत दवरूं नाका
रगत हलकर करूं नाका

*

# भिकाजी घाणेकार

**जल्म : १९४२**

गोयंचे सुटके जूझांतल्यान प्रेरणा घेवन कोंकणी कविते मळार पाविल्लो वैज कवी भिकाजी घाणेकार. तांची कविता छंदोबद्ध आनी संगीतात्मक जावन रचिल्ली. हेच कारणान ती अत्यंत लोकप्रीय जाल्या. विशयवैविध्य तांचे कवितेचें वैशिष्ट्य. हास्यान भरिल्ली तांची रचना कोंकणी साहित्यांत आपलें आगळें वेगळें रूप दाखयता.

**कवन**

सोपन, रानफुलां, महाभारत.

**रसीका** .....संगीत आनी लय भरलेली एक सुंदर भावात्मक कविता. कवी आपले कवितेचें वैशिष्ट्य सहृदयांचे मनाची रंगवण आनी फुलवण मानून सांगता. **राधेचें गीत** रंगायले मनांचे आनी फुलायले सपना पसून सांगता. बांसरीचो ताल आनी लय हांतु भरिल्लें आसा. ही राधा - कृष्णाचे मोगाची एक मनोहर कविता. **पुनव** कविता कवीले कल्पना-विलासाचो परिचय दिता. हांतु मळबाचे आनी सर्गाचे मोगाचो परमळ व्यापून आसा. **कोंप्यूटर** कवितेंत आर्विल्ले युगाचें चित्र मुखार येता. हें कोंप्यूटर मनांचे चित्र प्रस्तुत करपी, विशेष तराचें. मनशाचे आनी कोंप्यूटराचे मद्दीं संबंध हे कवितेंत चितरायला. कविता निपट हास्यपूर्ण चित्र परगटायता.

## रसीका....

रसीका, विसरुं नाका म्हाका
गीत म्हजें याद दितलें तुका

खिणाखीणांत रंगतलें मन
मनामनांत फुलतलें सपन
हावेसाचें शिखर चडून
धोलतलें चंवरा सुखा
फाटली जातली याद
मनाक घालीत साद
नंदनवनांत मोर नाचून
समाधाना ल्हार ताका

सुकते वेळार कर विचार
भरते वेळार धर मनांत
सकल वैर आयलो जरी
तोल तुजो सोडूं नाका

*

## राधेचें गीत

मन रंगलें, सपन फुल्लें
आयज तुज्या बांसरी तालार
मुरलीधरा, शामसुंदरा
तुजी म्हजी प्रीत जाली साकार

तुजें म्हजें युगांयुगाचें नातें
खीणान खीण जागलें
सैमाचें अप्रुपांचें रूप
मळबा काळजांत विरलें
दोळ्या तळ्यांत फुटलें
हावेंसाचें कंवळें ल्हार

दोन साद एक जाले
आयकतना उल्यार उले
दरया भोंवती गाजतना
सुरया पालोवन गेले
राती परमळ फांकून
रातराणये आयलो भार

*

## पुनव

पुनवेचो चंद्र आयला
आयज म्हज्या आंगणांत
पिशें म्हजें मन सांवरना
आयज रे खिणखीणांत

नितळ मळब हांसता
सर्गाक येवकार दिता
मोगा परमळ पळय
फांकारलो रानावनांत

दरयाक आयल्या भरती
ल्हारार ल्हार नाचती
तुजें म्हजें गुपीत अशें
रगलें रे एकांतांत

नदरेक लागली नदर
सुटना रे म्हाका उतर

तुजें आंग म्हजें आंग
भिजलें अशें चांदण्यांत.

*

## कोंप्यूटर

हांवें एक नवो कोंप्यूटर
सोदून काडला....
तातूंत म्हाका
मनशाच्या मनांत
किदें चल्लां
तें स्पश्ट दिसता.
त्या भायर
तो तशें सांगताय बी
"कांयच भियेवं नाका
तुजें खात्रीन काम जालें"
अशें म्हणपी मनशाचें तोंड
पुण मन..... मन सांगता
"पोकें आश्वासन
पोकें आश्वासन."
हांव तुजेर म्हज्या जीवापरस
चड प्रेम करतां
हांव तुका लागून म्हजो जीव
दिवंक लेगीत तयार आसां.
उत्रां वयल्या वयलीं
वारयार उबून गेलीं
मना मुखार जातलीं मोनी
कोंप्यूटर म्हण्टा

"फटकीरो प्रेमी
फटकीरो प्रेमी...."
तो पळे हांसून म्हण्टा
"वा, वा बरी कविता"
म्हजो कोंप्यूटर
आसा म्हज्या बोल्सांत
तो सांगता म्हज्या कानांत
"तोंड हांसलां पुण मन कुसलां"
म्हजो कोंप्यूटर
हांव कोणाकूच दिवचो ना
तो तुमच्या हाताक मेळ्ळ्यार
तुमी म्हजें मन
तपासल्या बगर रावचे ना.

*

# पुंडलीक नारायण नायक

**जल्म : १९५२**

गोयंचे कोंकणी कवितेचे इतिहासांत ओज आनी आवेश भरिल्ले उतरांचो धनी पुंडलीक नायक. हांगेली कविता समाजाकडल्यान स्फूर्त घेवन समाजाचें भौशीक अणभवांक काव्यांत ओतपाचो प्रयत्न करता. पातळ उतरानी पतळायललो मनशाचो हावेस हांचे काव्यांत खूब आवडटा. नव्या कोंकणी काव्याची जिवसाण हांचे काव्यांत बरोबर आसा. शब्दरूपांची उत्कटाय पुंडलीकाले कवितेचें प्राणतत्व. हांचे कवितेचें आर्त लय आस्तित्ववादी संवेदनशीलतायेक लागसार दवरपी आसा.

**कवन**

गा आमी राखणें (१९७६) आनी कांय नाटक आनी नवलिका.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

सदस्य, गोवा राजभाषा सल्लागार समिती १९९१.
उपाध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादमी, १९९३-९६.
सदस्य, संगीत नाटक अकादमी, नवी दिल्ली १९९३-९८.
सदस्य, गोवा कला अकादमी १९९३-९६.
सदस्य, गोवा कोंकणी अकादमी, १९९६-९८.
अध्यक्ष, पनाजी दूरदर्शन केन्द्र सल्लागार समिती.
अध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादमी २००२.
गोवा कोंकणी भाशामंडलाचो साहित्य - पुरस्कार.
गोवा कला अकादमीचो पुरस्कार, १९७५, १९७८.
आकाशवाणी अखिल भारतीय पुरस्कार १९८०, १९८६.
साहित्य अकादमी पुरस्कार १९८४.

**काळजाच्या दोण्यांत** एक उत्तम भावकवितेचें उदाहरण. भाव आनी उतरावळ दोनूय सळसळीत आसा. 'वयर वयर तेंगशेर फुलां फुलां घोसा' चें बिंब खोसीचे व्हडकायेक सूचीत करता. सैमाचे आनी मनशाचे भावाचें एकीकरण करपाची आवड हे कवितेंत खूब उबरून आयल्या. **येतले दीस अशे** मनशाचे जिणेची आवड आनी ताचे विपरीत घडणूके खातीर बरवपी उत्तम भाव-कविता.

## काळजाच्या दोण्यांत

काळजाच्या दोण्यांत म्हज्या
उपाट भरल्या खोस
वयर वयर तेंगशेर
फुलां फुलां घोंस

खळखळून व्हांवता पळय
उदकाचे वझरे
उडून गेले कीर पयस
मोडून आपले पांजरे
पिकून फळां जार जालीं
गळचो जाला रोस

उमेदीचीं खेळटा ल्हारां
सैमाच्या गोपांत
आमी कित्याक रावचीं वगी
मोग धापून ओठांत
बंधमुक्त जावंया सोडून
संसाराचो सोस

*

## येतले दीस अशे

येतले दीस अशे
चिंतूंक नासलें कोणें
चलते पालखेचे अशे
झडून वतले गोणे
माथ्यार मारून पाटली
चलून आयलों वाट
मानून सगळीं आपलीं
देंवून आयलों घाट
हातांत उस्तून माती
पेरून घेतले दाणे
उसरां आयलें मतींत
रेवेंत ओतले हाणे

नाचून आंगणां गेलीं
विविधरंगी शेवणीं
किरामोरांची पडली
जीवाक भुलभुलोवणी
दिसून आयलें जबर
हेंच सुखाचें पेणें
कोणांक आसली खबर
सगळें नकली गाणें

संकश्टांचीं भिरीं
आपोवन हाडलीं बळयां
तोंपून आंगाक शिरीं

रगत गळयलें दोळयां
सावध नासलों देखून
सदळ उरलें जिणें
वसूल घेतलें करून
काळान आपलें देणें

*

# माधव बोरकार

**जल्म : १९५४**

साप थोड्या उतरांनी आपले अणभव व्यक्त करपी कोंकणीचो मानकार कवी माधव बोरकार. हांची कविता 'आंतरीक निष्ठेची '. गहन अर्थ व्हांवची हांची कविता कोंकणी कवितेचे मळार आगळी वेगळीच आसा. सरभोंवतणेचे प्रसन्नतायेचें पडबिंब आपले सभावांत आशिलो कवी भोंवतणेचे संवसाराचे उतळताप देखनाशी आपले कवितेंतल्यान सुखाचीं सपनां पळयता. भोंवतणेच्या सैमांत अपणाक विसरून वता आनी सुखाचे आशेन मनाचे मळबावेल्यान उडटा. हांचे कवितेंत मोगाचो एक अतर्लीन सुर देखूक पडटा. काळोख आनी उजवाड हांचे कवितेचो मुखेल विशय. संवसारा विशीं आसिले आदर्श, वेव्हारा विशीं नकळपण, कवळे पिरायेंची सपनां उक्तावंची हांची कविता जीविताचे अन्यायाची आनी दुखाची उक्तावणी सहजतायेन करता. अर्थघनत्व आनी कल्पनेचें सौन्दर्य, नव्यो प्रतिमा, नवीं प्रतीकां हांचे काव्यशैलीचें वैशिष्ट्य.

**कवन**

चंवर (१९६९), वताच्यो सावळयो (१९७२), उजवाडाचो रूख (१९७९), पर्जळाचें दार (१९८६), यमन (१९९९), अव्यक्ताचीं गाणीं.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

केन्द्रीय साहित्य अकादमी पुरस्कार.

**काळी काळखाची माती** बोरकार हांगेली सुखाचीं सपनां पळवपी एक अपूर्व अणभवाची कविता. काळखाचे मातयेंत सपन रोवपी कवी रानां चान्यात तांचे पालेलें रूप चितारता. **यमन** कवितेंत मोगाचो अंतर्लीन सुर कवी गायता आसा. आकूळ पिकूळ यमन आळयता सावन कवी गायकाचें चित्र तनरेच्या रित्या केन्वासार चितारीत दिसता.

## काळी काळखाची माती

काळी काळखाची माती
हांवें कोंबायल्यो राती
रीग म्हजे कुशींत
प्राणांच्यो लावन वाती.....

दोळ्यांच्यीं भिरीं म्हजीं
पैस गेलीं परगांवां
वाट काडीत आयलीं धरा
म्हजीं आंधळीं तारवां....

काळखाचे मातयेंत
हांवें सपनां रोयलीं
काळजा पेलीं नागडीं
रानां चान्यात पालेलीं....

*

## यमन

सांज जाता
दोंगरां पल्तडच्या गावांत
दिसाच्या निमाण्या किर्णांत
ल्हव-ल्हव शेणत वचपी मळब
एक एक नक्षत्र पेटोवंक लागता
आंगणातले तुळशी मुखार लायिल्ले
पण्टेच्या उजवाडाक
काळखाचो थाव फुट्टा....

चितारीत आसा हांव
असलें एक चित्र
म्हजे तनरेच्या
रित्या कॅन्वासार
म्हज्या मनांतलो
आकूळ पिकूळ यमन
तुवें आळयत सावन....

*

# प्रकाश पाडगांवकार

**जल्म : १९४८**

आर्विल्ले कोंकणी कवितेचे मळार सोबितकायेन फुलयलो कवी प्रकाश पाडगांवकार, हांतु दुबाव ना. अनंततायेचे भान आशील्या कवितानी सैमाचे आनी जिणेचे रहस्य उजवाडा हाडपी अप्रूप कवी. हांची कविता विशेष दिश्टाव्याची. कविता आनी गीत हांचो संगम प्रकाशालें काव्य. नवी नदर, नवें उतर हांगेले कवनाचें वैशिष्ट्य. सामान्य मनशाचें आकर्षण, जीवकारुण्याची ओड हांचे कवितांत देखूक मेळटा.

**कवन**

उजवाडाचीं पावलां (१९७६), वास्कोयन (१९७७), हांव मनीस अश्वत्थामो (१९८५), कविता-काल रेलवेच्यो मन हरशाच्यो आनी पावस पण्याचो (१९९३), सर्ग घडपाक धरतरेचो (१९९४), व्हावती न्हय कल्लाची (प्रकाशनाधीन).

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

अध्यक्ष, कोंकणी लेखक संघ.
सदस्य, कोंकणी भाशामंडल.
सदस्य, सल्लागार समिती, आकाशवाणी, पणजी.
साहित्य अकादमी पुरस्कार १९८६.
कोंकणी भाशामंडल, गोंय पुरस्कार.
गोवा कला अकादमी साहित्य पुरस्कार.

**मन ब्रह्मांड** ही कविता मनाची व्याप्ती, ताचें चैतन्य, वैभव आनी कार्यवेव्हाराचें वर्णन करता. 'मन एव मनुष्याणां कारणं बन्धमोक्षयोः' हाची

गजाल वेंचीक उतरानी मोखून दवरचो प्रयत्न प्रकाश बाबान केला. **दिश्टावो सर्वज्ञ सासायेचो** कवीक आयिल्लो आत्मसाक्षात्काराचो दिश्टावो. प्राणांत सोबितकाय फुलावंचो जिणेक सुवर्णाक्षरांचो आकार दिवंचो दिश्टावो.

## मन ब्रह्मांड

मन ब्रह्मांड उंचाय
मन ब्रह्मांड खोलाय
मन अनंत अमाप
मन चैतन्य निळाय

मन प्रार्थनेचें घर
तातूंत हांवूच देव
परब्रह्मांची करणी
जो नियंतो एकमेव

उत्क्रांत उत्थाना धागे
विणटा वस्त्र जिणेचें
भांडवल हें प्राक्तना
वैभव नवलायेचें

सैमसृष्ट चराचर
ही ताचीच गा सासाय
आपुणूच आपल्याचो
आसता खरो गवाय

खिणखिण योगब्रह्म
जाल्या कूड उत्तेजित
आता उणें कांयच ना
हांव म्हाकाच भोगीत

*

## दिश्टावो सर्वज्ञ सासायेचो

जाला म्हाका दिश्टावो सर्वज्ञ सासायेचो
जाची विशाळकाय रावल्या दिगंत व्यापून
ताच्या सूर्यवर्खी सांगाताच्या वातावरणांत
जीण नव्या सपनांतल्यान जागी जावन
उस्फुटता म्हज्या अस्तित्वाचे परिमाण

ताच्या स्पर्शान जावन सताड उत्ती
फिशालकाय क्षितीजरूपी रंगयाळ्या विस्ताराची
जिणे नदरेक मोरपाखां तेज चडून
आंवळून येवन एकवट्टा सामकी लागीं
ऋतु वैभवाचीं पिकां काडीत रावपी साम्राज्यां

जाला म्हाका दिश्टावो सर्वज्ञ सासायेचो
जो म्हजो जिणे ग्रंथ भरता सुवर्णाक्षरांनी
आपणाल्या सुपीक आदेशांच्या कुरवांनी
मौनाच्या अधिराज्यालीं किरणां झंकारायत
फुलयत चिरंजिवी सोबितकाय प्राणांत

मुखार साकारिल्ले दोंगर आडखळिंचे
ताच्या एकाच इशारयान सहज हुपता
पिकिल्लीं अरिष्टां आपशींच विरगळून
भोगता ताटांत येवन पडिल्लीं तृप्त वैभवां
आसक्तीविण ल्हवल्हवसो फुलून फुलत रावपाक.

*

# रमेश भ. वेळुस्कार

**जल्म १९४७**

रमेश भगवंत वेळुस्कार कोंकणीचो नामनेचो कवी. सैमाचो भक्त आनी कल्पनाशक्तीचो धनी. मौलीक प्रतिभेची आनी सुंदर शैलीची तांक दाखवपी तांची कविता गांवचे जीणेचो नीज स्वभाव वर्णन करपाची अपूर्व तांक तांचे कवितेचें वैशिष्ट्य. मोव मोव मनोहर उतरानी रंगयाळीं चित्रां घेवन आशील्ली ही कविता लय आनी संगीत भरिल्ली आसा. नवीं नवीं उतरां आनी नवे नवे प्रयोग हे कवितेंत देखूक येतात. सैमाक मानवीय रूपान केळोवपी रमेशबाबाची कविता. भूतकाळाच्यो शीमो हुपून वर्तमानांत थीर जावन भविष्याचो वेध घेवपी रमेशबाबाची कविता कोंकणी कवितेचे मळाक खाशेलो सिंगार प्रदान करता. 'मात'येचो ध्यास आनी सौंदर्याचो सोद घेवपी रमेशबाब आपले प्रतिभेचे मोराक आमचे मुखार नाचेयता.

**कवन**

मोरपाखां, माती, आंगणी नाचता मोर मोरया, सावुलगोरी, हिरण्यगर्भ, तनरजोती, मोनी व्यथा, भूक भूक भिशू, चांदीमामा, फूलपाकुलीं, अंधा युग.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

कोंकणी भाशामंडल पुरस्कार
कला अकादमी पुरस्कार
पद्मश्री बांकी बोरकार पुरस्कार
साहित्य अकादमी पुरस्कार

**शाळेचे प्रार्थनासभेंत** रमेशबाबालो शिकवपाचो जीवंत अणभव कविकल्पनेचे वांगडा मनोहर काव्यशैलीचे वाटेन मुखार आयला.बाईली काणी

आनी भुरग्याली प्रतिक्रिया आयचे युगांतले भुरग्यांचे तीक्ष्ण बुद्धीची गजाल वाचप्यां कडेन पावंयता. हे कवितेचो विशय कोंकणी कवितेचे इतिहासांतलो एक नूतन प्रयोग दिसता. **गौरम्मा** कवीचे आनंदानुभवाची एक वेगळीची गजाल सांगता. वाचप्यांचे मनांचे पटाचेर गौरम्माचें चित्र जेन्ना उब्बें जाता तेन्ना रमेशबाबाच्या सौंदर्यानुभवाचो परिचय सहृदयांक जाता. ही कविता ताल आनी लय भरलेली.

## शाळेचे प्रार्थनासभेंत

शाळेचे प्रार्थनासभेंत
बाईन काणी सांगली
पोन्नी पोन्नी काणी
हजार वर्सां पयलीची
जशी आदिमहानायकान
सांगलेली......
कांसवाची आनी सोंशाची..
जांतूत कांसव
जौतिवंत जाता
आनी हुशार सोंसो
शिटूक सोंसो हारून वेता
बाईन म्हंटलें...
कोणाक प्रश्न आसा..?

एक भुरगो उबो राबलो
म्हंटलें बाईन...सांग..कितें ?
भुरग्यान म्हटलें
बाई.. काणी पोन्नी
खूब वर्सां सांगलेली

इल्लें इल्लें सार व्हगडायत रावल्ली.
देखून बाई
आमकां कांयच मेळ्ळें ना ...
अब्बा... बाई बडबडली..

बाई.. हे काणयेंत कासवाचो ...
कितें प्रोग्रस जालासो दिसना..
दुसरो भुरगो ..

बाई... कांसव जिकलो खरो..
पुण तांतूच ताची कांयच हिकमत ना
वा हुशार कायूय ना..
तिसरो भुरगो
स्वताचें पाड घालपा खातीर
आयचे हुशार लोक अशे न्हिदनात

बाईचो राग
गुरगुरूंक लागलेलो...
आनी एक भुरगो
बाई ही काणी इंडेपेंडेंस व्हगडायता
हेडमास्टर तापलो
बाई कसली कर्माची काणी सांगता ?

कोणशाक बसेल्या भुरग्यान म्हटलें
बाई काणी कसलो संदेश दिता ?
स्वातंत्र्याचो काय पारतंत्र्याचो ?

बाईक घाम येवपाक लागलो
केन्नाच प्रश्न विचारुंक नासलेल्या
भुरग्यान म्हटलें
कांसवाचें जैत स्वतंत्र न्हंय ...
तें पारतंत्र्याचेर अवलंबून आसा....
देखून ही काणी
स्वातंत्र्याच्या परतंत्राची....

एक थोंटो भुरगो
केन्नाच उबो रावनासलो
उठलो आनी म्हणपाक लागलो
बाई ही काणी सांगपाची
काय आयकुपाची

एका मोन्यान लेगीत
कुरवांनी प्रश्न केलो
बाई काणी तूवें सांगली हें तुजें जैत
काय काणी आमी आयकली हें आमचें जैत..

काणी काणी कातवा
सांगची कशी नातवा
आजूय तिच्यांत
शिरपत येतात
नाका जाल्ले फतवा...

*



## गौरम्मा

गौरम्मा
गौरम्मा
दोळ्यांत
तियेच्या
सस्य सांवळी
झुळूक हुळहुळी
वयता
सचैल न्हाणयत
आमकां
गौरम्मा
गौरम्मा
तिच्या मस्तकार
आकाश काशी
जंय वस्तीक
आकाशगंगांच्यो
राशी
वयता खेळत्त
बाबा झिम्मा
गौरम्मा
गौरम्मा

तिची
झनक धुंदयाळी
आभा
बाबा तनरेंत
वस्तेक येता

आनी शिरंतरांनी
सणक तिगेली
रूणझूण
घालीत रावता
आतां करचें
कितें गे अम्मा
गौरम्मा
गौरम्मा

गौरम्मा
परी करि अम्मा
भस्मविभूशीत
मनसम्मा
सप्पन नयनव्वा
गगनव्वा
मधुरम्मा
गौरम्मा
गौरम्मा
आतां
वेळा - अवेळा
घाली
काळीज कळवळ
हामेर भैरवी
हम्मा
गौरम्मा
गौरम्मा

*

# जे. बी. मोरायस

**जल्म : १९३३**

जान बाप्तिस्त मोरायस दखीण कन्नड वाठरांतलो कोंकणी कवी. हांची कविता कल्पनाविश्वांतली खोलाय आनी गूढाय घेवन आसल्या. ती वर्णनात्मक आनी भावनात्मक आसा. वर्णनात्मक काव्या परस भावनात्मक काव्य हांका आवडटा. धर्म, देशाभिमान, निसर्ग, मोग, विडंबन हांचे कवितेचे विशय. कोंकणाचे सैमान फुलयलेले काळजाचे उमाळे हांचे कवितेंत उक्तायल्या. सैमाचो मोग कवीचे अंतस्करणाक भेदून आयला आनी कवितेंत पतळायला. सूक्ष्म संवेदना तांचे कवितेचें वैशिष्ट्य. संवेदना हांचे कवितेंत बिंबा रूपान मुखार येता. प्रतीकात्मकतेची धार घेवन फुलपी कविता जिणेचें सारकें सत उक्तायता.

**कवन**

दिव्यामृत, भितरलें तुफान, आनी कांय कोंकणी कविता, नाटक, कथा, अणकार हे विशयांचीं पुस्तकां.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

संचालक, कोंकणी सल्लागार समिती, भारतीय ज्ञानपीठ २००२-०४.
सदस्य, कोंकणी सल्लागार समिती, साहित्य अकादमी १९९८-२००४.
सदस्य, सामान्य परिशद, साहित्य अकादमी.
अध्यक्ष, अखिल भारतीय कोंकणी परिशद १९९३-९५.
सामान्य सचिव, कोंकणी भाशामंडल, मुंबई.
कोंकणी भाशामंडल, गोवा पुरस्कार १९८०.
केन्द्र साहित्य अकादमी पुरस्कार १९८५.

महाराष्ट्र सरकाराचो गौरव पुरस्कार १९९०
गोंयचे कोंकणी भाशामंडलाचो आदर.
टी. एम. ए. पै फाउंडेशन पुरस्कार २०००.

**गोर्वांचे निमाणे फेस्त** मोरायस हांचे भावनेचो परिचय सहृदयांक दिता. गोर्वांचे फेस्ता पसून रचिल्ली ही कविता एक विंगड संस्कृतायेची जाणविकाय दिता. सरल, सरस पदावली आनी उदकाभशेन व्हळपी शैली कोंकणी भासेचे म्होवाळपणाची वळख करता. **संदेश** कविता काळजांतले उद्वेगाचो संदेश माये मोगाचे प्रेमीक कळवपा खातीर दुधा धोवीं पाकां फापडून उबच्या पारव्याक सांगून धाडटा. ही कविता आयचे संदेशकाव्याचें उदाहरण.

## गोर्वांचें निमाणे फेस्त

पुर्शांव किर्ते ! संगीत किर्ते !
फेस्त-रे तें गोर्वांचें !
हांबेवन घालतात उडकाणां तीं
फेस्त तांचें सर्वांचें !
रेडे, पाडे, गोर्वां, म्होशी,
नासली अशीं केदींच
सुर्यो तांच्या तोंडार फुल्ला
दीस उदेवंच्या आदींच !

गोट्याच्या चार वोणतीं भितर
वरसां गेलीं सरोन
स्वातंन्त्र्याची आयली आशा
काळजांत तांच्या भरोन
निराशेच्या खंदकांत बुडोन
हारवाल्ले ते पाडे ;
आशा-किरणाक राकोन यकोन

भागोन गेल्ले रेडे ;
सरल्यात करूंक फेस्ता संभ्रम
'काला' आनी 'बोल्ला '
हांडोन पडटात पांवच्याक मुखार
तांची जीण बदल्ल्या !
काला, बोल्ला, धांवया मुखार !
पळेनासतां पाटीं !
दिवंच्याक मुक्ती रावल्या आयती
कसायगारा कोयती !

गायो, पाडियो, रेडे, पाडे,
रेडियो आनी म्होशी
पंताटाच्या उर्बेन धांवतात
आज-रे तीं धादोशी !
शिगां तांची सुंर्गारायल्यांत
'इण झण' किणकुळ्यांनी !
तकली तांणी हालयताना
संगीत जाता 'गिणीगिणी' !

हांबेतात तीं ताळो पिंदून
फेस्ता संभ्रम तांकां !
मळबा वयलीं सुकणीं दितात
मस्ते स्वागत तांकां !
फुलां फळां भरोन झाडां
स्वागत दितात रानांत
स्वातंत्राचें स्वादीक वारें
रिगलां तांच्या क़ानांत !

काला, बोल्ला, धांवया मुखार !
पळेनासतां पाटीं !
दिवंच्याक मुक्ती रावल्या आयती
कसायगारा कोयती !

संतोस कसो दाकयतलीं
मोनींरे ती गोर्वां !
हांबेवन घालतात उडकाणां तीं
फेस्ताक आयल्यांत सर्वां !
गोट्यांतल्या त्या काळोका थावन
उजवाड स्वातंत्राचो
जालो तांकां इळक प्रज्वल
सुटके झुजारयाचो !
कसायगारा कोयती तांकां
रुपें मोडा पाटलें !
एकाच मारान अंतिम मुक्ती
दिवंचें हातेर व्हडलें !
गोर्वांच्या ह्या अंतिम फेस्ताक
आपयलां माकां तुमकां
रडटात कोणयी फेस्ता दिसा ?
गळयनाकात दुकां !
काला, बोल्ला, मारया पंताट !
सरानासतां पाटीं !
दिवंच्याक मुक्ती रावल्या आयती
कसायगारा कोयती !

*

## संदेश

दुधा बरी धोवीं पाकां फापडून उबच्या पारव्या,
पळे गळचीं दुकां म्हजीं ! प्रेमीक सांगशी दिरव्या ?

दोंगरावयल्यान उबोन व्हचोन, उतरोन राना फालकीं
विशल नंयच्या देगेन उबोन पावशी ताचे सर्शीं.

संदेश म्हजो पावय ताका ; कळय म्हजे उदवेग !
वाटेर खंयीं थांबोनाका, चडों तुजो वेग !

कुपांक ताकीद दिल्या हांवें दिवंच्याक वाट भर सांगात
चंद्राक सांगलां फांकोवंक चांदने उज्वाडावकं तुजी रात !

चिंतना म्हजीं लोटूं तुका उबोंक वेगीं वेगीं
दिशा तुजी बदली नाका पावतां लागी लागीं.

बसोन एका रुका मुळा कविता तो रचीत ;
पळोवन भंवतीं हरयेक वेळा उतरां आपलीं विंचीत.

पावतां लागीं आयकाशी तूं उतरां थोडीं थोडीं ;
वर्णन म्हजें आसात तांतूं- भोगणां विरहाचीं.

कविता न्हंय संदेश म्हजो उदवेग काळजांतुलो ;
मेळोन ताच्या काव्या-व्हाळ्याक जांवदी मोगा-उलो.

*

# ओलिव्हिन गोमिश

**जल्म : १९४३**

फाटले पंद्रह वर्सांनी कोंकणी साहित्यांत वावरपी ओलिव्हिन गोमिश कोंकणीचो एक सरस कवी. हांची कविता प्रतीकांनी भरलेली. मनोभावांची उत्क्तावणी हांचे कवितेचें वैशिष्ट्य. साद्या सोप्या भासेन विवध विशयां पसून कविता रचपी कवी आपले कवितेंतल्यान वाचप्यांक आपले वांगडा ओडून व्हरता. गोमिश कोंकणीचो एक सफल कार्यकर्ता आसा.

**कवन**

पुंजायल्यो पाकळ्यो (कवितासंग्रह). कोंकणीची कांय कविता आनी कथा विवध संग्रहांतल्यान उजवाडायल्या. कोंकणी भासेची आनी साहित्याची सोद-संबन्धी कांय ग्रंथ रचिल्ले आसा.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

प्रोफेसर व अध्यक्ष, कोंकणी विभाग, गोवा यूनिवर्सिटी.
सदस्य, कार्यकारिणी समिती, केन्द्र साहित्य अकादमी.
सदस्य, गोवा कोंकणी अकादमी.
वेरोडियन्स अन्तर्राष्ट्रीय पुरस्कार १९९७.
अंतोणियो पेरेरा पुरस्कार २०००.
केन्द्र साहित्य अकादमी पुरस्कार १९९३.
गोंय सरकाराचो साहित्य पुरस्कार १९८६.
गोंय कला अकादमी पुरस्कार.
कोंकणी भाशा-मंडलाचे कांय पुरस्कार.

**चिंतना** कवितेंत चिंतनाची उपज आनी वेव्हारा पसून कवी सांगता. **मोग** कविता मोगाचे दर्शना पसून रचिल्या. **निर्दुख्याचीं दुखां** मानवकुलाचे

सहज सुभावाचो परिचय दिता. तिनूय कविता सुंदर भावांची आनी काळीजाक हाथ लावपी.

## चिंतना

भावनांतल्या भोंवरयांतल्यान
उपजतात चिंतनां,
काळजांत आसात-शीं
मेंदवाचीं ल्हारां !

*

## मोग

मोग म्हळ्यार, मर्णा भशेनः
इंद्रियांचो कणो मोडून,
भितरलें तें काळीज फोडून
तांतलो आत्मो व्हरता चोरून

*

## निर्दुख्याचीं दुखां

निर्दुख्यांक दोन दुखां
आपणाक ना तें एक
आनी
पेल्याक आसा तें दुसरें
दोनूय दुखां वजीं भुजांर,
जोडूकस्सो घुस्मटमार
पिसडून बुड्डून गरजे भायर
आपलें शांत जिवा सुख !

*

# आर. एस. भास्कर

**जल्म : १९४७**

केरळांतले कोंकणी कविता बरवपी मनशां मद्दें आर. एस. भास्कर हांची कविता बरीचशी वेगळीच. आयचे नव्या कविते कडेन ती अपणालें नातें जोडून आसा. तीक्ष्ण नदर हे कवितेचें मुखेल वैशिष्ट्य. पुरणांतले, इतिहासांतले प्रसंग हांचे कवितांत भरीत वर्णीत आसा. हांतु भर्सि केरळाचे इतिहासाक कवी विसरूक नाशिलो. देव आनी देवाची सासाय हांचे कवितांत उबरल्या, एक नव्या दृष्टीक लागून. कोंकणी समाजाचे विभिन्न पक्षांचे मनोरम चित्र भास्कराले कवितेंत देखूक येता. कांय कविता पुरोगमन विचारांची. चिंतनशीलता, सरल सुटसुटीत उतरां, अलंकार, बिंब आनी प्रतीकानी भरिल्ली भास्कराले कवितेची भास.

**कवन**

अक्षरां (१९९२), नक्षत्रां (१९९५), अक्षतां (१९९७), पञ्चायतन (१९८५), गुरुचरणी (२०००).

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

सदस्य,कोंकणी सल्लागार समिती, साहित्य अकादमी.

सदस्य,सल्लागार समिती, सुकृतीन्द्र प्राच्य-विद्या शोध-संस्थान,कोची १९९८-२००२.

सदस्य, कार्यकारिणी समिती, अखिल भारतीय कोंकणी परिशद गोंय १९९५-९७..

भंडारी, केरल कोंकणी अकादमी.

ताराबाय विष्णु म्हापशेंकार वैश्यभारती पुरस्कार १९९६



कोंकणी भाषा प्रचार सभा साहित्य पुरस्कार १९९४.
अखिल केरळ वैश्य सम्मेलन कोंकणी साहित्य पुरस्कार १९८०.

**गोयां तुजी** भास्कराले गोंयचे मोगा पसून आनी म्होवाळ यादींतल्यान बरयलेली कविता. गोंयापसून केरलदेशाचे कोंकणी कवीन बरयलेली प्रथम कविता म्हूण हाचें वेगळें महत्व आसा. **काश्मीरांतल्या म्हज्या भावा** समकालीन समस्या आनी भोंवतणे पसून निर्माण केल्या. काश्मीराचे रक्तान शिंपडीलें सैमाचें आनी मनशाचें विवरण सहृदयांचे मनांत खूब आवडटा. मनांत तोपिल्लीं उतरां आनी खंत आसूनूय कवितेंत आकर्षण आसा.

## गोंया तुजी

गोयां तुजी
तांबडी माती
पावलां पोदाक
धरून रावली
अपरूप म्हजें
नशीब म्हणून
माये मोगान
पुसून काडली.

म्होंवाळ तुजी
याद मगे
मना म्हिजा
रिगून रावता
केन्ना केन्ना
आंकरी फुट्टा
मोड्‌न घेतल्यार
मूळ धरता.

*

## काश्मीरांतल्या म्हज्या भावा

काश्मीरांतल्या म्हज्या भावा
तूं बरो मरे ?
'हाय बरो-
देवाचा कृपेन !'

उपचाराची उतरां तुजीं
निराधारी आनी समजुतपणी
कोण आसा नकळो -
तूं अस्वस्थ म्हूण !
काश्मीराच्या हरद्याक
तलवार तोंपून आसा
काश्मीराच्या निडळा मुखार
बंदूक उबें आसा
म्होण तुका सूख ना -
तुका समाधान ना.

एक फावट
तूवें म्हळ्ळें -
भायण तुका
शेणली अशें
बोकड्यांक चरोवंक गेल्ली पाप
परतून मागीर येवंकच ना
घळीत तुका मेळ्ळें-
बर्फांत गोठिल्ले भयणींचें कूड
शिंपडून पडिल्लें-

पिंज्जील्लो कमीज
पिंज्जील्लो सालवार
आनी धवो लेंस

मागीर पावली
तुजी विचित्र खबर
घरांत तूं नासतना
घर तुजें लुटलें -
आवयचो अब्रु लुटलो
आवयचो प्राण लुटलो
रूखाचा खांदयार
लांबयले तिजे मडें -
माथें सकल
आनी पांय वयर

एक वेळा
तूं बरोबर वांचलो
ताळांत शेळेंत
लिपून रावलो.
साळकाच्या देंठांतल्यान-
स्वास घेतलो
घुस्मटो सुवाद रुचून
जीण स्वय सांबाळ्ळी.

आमी मरे
मनयली होळी-

नाचले आमी
गायले आमी
तांबडे फापुडलें
पाचवे फापुडलें
रंगयाळी होळी
आनंदीत न्हाले.
तुजी पुण जाली
रक्ताची होळी.
अनंतनाग गावांत तुज्या-
त्या वेळा बंदूक हाल्लें
रक्ताचे व्हाळ
झरझरीत व्हांवले
तरण्या तरण्या मनशांच्या
हुनहुनीत रक्ताचे.

आज तुका
भयण ना
आवय ना
सपन ना
तुजो जाला
रक्ताचो सूर्य
तुजें जाला-
रक्ताचें चान्नें
रक्ताचें फूल
रक्ताचें फळ.
देवतार तुका

रक्ताचो रूख
डाल तुका
रक्ताचें तळें
शिवालीक तुका
रक्ताचो दोंगुल्लो
पुराय काश्मीर-
तुका रक्ताचें घळ.

हांव मरे भाव तुजो-
राखणेक तुका पावूंक नाशिल्लो.

*

# शरतचंद्र शेणै

**जल्म : १९५३**

केरळाचे कोंकणी कवितेचो नामन कवी, शांत गंभीर, अर्थान भरिल्ली कविता बरवपी. निर्गुण निराकार देवाचो सोद घेवपी. आर्विल्ले कोंकणी समाजांत पुर्विल्ले विचारांचो उड्गास दिवपी कवी.तत्वगिन्यानाची हांची कविता. कालान क्रमान बुडून वचपी जीविताचे मोलादीक लक्ष्यांचेर जीविताचो अर्थ सोदपी हांची कविता.जिणें आनी मरणाचे अमूर्त आशय, मनशाचे जिणेचे संघर्ष, अपार चिंतनशक्तीचे वांगडा हे कवितेंत वाचप्यांचे मुखार येतात. शरतचंद्र शेणैलि कविता आपले तराची आगळी वेगळीच.

**कवन**

अंतरनाद (१९९७), काव्योद्यान (१९९९), मीरा-जीवन आनी कवन (१९८७) श्रीकृष्णकर्णामृत (१९८७).

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

उपाध्यक्ष, केरल कोंकणी अकादमी.
देवकीकृष्ण ट्रस्ट पुरस्कार १९९१.
डो. टी. एम. ए. पै फाउंडेशन पुरस्कार.
केंद्रीय साहित्य अकादमी पुरस्कार १९९९.

**नट** कविता संवसारांत मनशाले जीविताचे वेगवेगळे नाट्याची जाणविकाय वाचप्यांक दिता. कोणाचे की मार्गदर्शन काणु मांचेयेर येवून तरातराची सवंग करपी नट न्हयं, खरे नट आमी आनी तुमी, विसव नास्तना जीवन धवंडावपी. **नवी खबर** कविता आयचें प्लास्टिक युगाचे आनी टेकनालजीचे चमत्कारा पसून आसिल्ली ; खूब सरस आनी आनंद दिवपी.

## नट

माचयेर येताय ते नट न्हय खरे-
कोणे कीं बरयलेलीं उतरां संगून
भेस चडोवन, पूर्वाभ्यास करून
कोणाचे कीं मार्गदर्शनान
तरातराचीं सवंगां करपी
ते कोणूच न्हय नट खरे-
तुस्त मेळो वा तोहफा
तालयो मेळो वा तसरीप
ताण पडून काम करपी
बावडे ते न्हय नट खरे -

खरे नट रे आमी तुमी !
दर दीस दर वगत
याद धरीत आज मेरेन
घरां भितर घरा भायर
हात सोडून हुसको सोडून
एद्दो लेगीत विसव नासून
केद्दो प्रतिभेचो अभिनय आमचो !
भेस ना अभ्यास ना
ताळयो ना तसरीप ना
तरीय आमी केद्दे तज्ञ
चतुर प्रवीण फिशाल !
भितर जिवाजाळ तरीय
तोंडार सदळ हास हाडपी-
मनांतल्यान चाळयतनाय

भायर नम्र विनम्र रावपी-
शिरापिता काळीज तरीय
हातान आशिर्वाद दिवपी-
प्रतिभा आमची निजाची !
खरे नट हे आमी तुमी !

*

## नवी खबर

येता रे येता
प्लास्टिकाचो देव येता !
आमचे प्रगतीचें प्रतीक जावन
इंटर ऑक्टीव देव येता !

जड जड्डे पोरने देव
काडून उडय पयस पयस -
शिलायुग सोंपलें केन्नाच
टेक्नालाजीक फुटलें कणस !

देवळ नाका देवळी नाका -
मंत्र नाका तंत्र नाका -
भटजी आनी गुरुजी नाका -
चोवीस वरांय दर्शन दिता !

फोटो वयर वाळती येत -
मातये मूर्ति फुटून वचत -
घातुबिंबाक चीर पडत -
पोरनीं सगलीं दान दियात !

डिस्पोसेबल आरती येता -
डिस्पोसेबल घांट येता -
गोमटें आनी ल्हान हल्कें
डिस्पो-गर्भकूड येता !

येता रे येता -
फायबराचे बळ घेवन
सिलिकनाचें हड्डें घेवन
हासून आशिर्वाद दिवपी
इंटर अँक्टीव देव येता !

*

# आम्ब्रोस डिसोजा

**जल्म : १९४३**

कन्नड लिपींत कोंकणी बरवपी, नामनेचो कवी आम्ब्रोज डिसोजा. हाणी कांय कोंकणी नेमाळ्यांवेल्यान आपली कविता उजवाडायल्या. कवितारूपान दुसरे भासेंतुल्यान अणकार प्रस्तुत केल्या. गीतां रूपान कविता बरवपी डिसोजाली शैली निपट संगीतात्मक आसा. कोंकणी कवितेचे मळार डिसोसा हांगेली कविता आगळी वेगळीच. साद्या सोप्या भासेन कविता बरवप हांचें वैशिष्ट्य.

**कवन**

कांय कोंकणी कविता आनी गींत.

**दर्या वेळेर** कवितेचे विषय दर्या वांगडा चलून आसा. दर्याची दर एक सुभाव हे कवितेंत वर्णनाक आयला. दर्यांत फुलोव्नु येवंचे ल्हारांक देखून कवी अजाप जाता. दर्यांतली सुक्ती आणी भरती जिणेंतले दुखा आनी सूखा भशेन हे कवितेंत व्यक्त जाल्या. **तुदुल्लो मोग** तुटुन गेल्या मोगाचो वेव्हार चितरायता. मोगा पसून कवीली नदर हे कवितेंत व्यक्त जाल्या.

## दर्यावेळेर

दर्यावेळेर बसोन हॉंव नदर मारतां फुडें
गर्वान भरोन एक-एक ल्हार फुलोव्न येता जिडें
गर्जोण करून उड्क्यो मारून ग्रासूंक येता मुखार
येतां-येतांच फास्ळोन वेता जिरोन गाय हंकार ?

अज्याप पावतां, भरोन भरोन येंवच्या दर्याक देखोन
उप्रांत देखतां तोच दर्यो वेचो सुकोन सुकोन !
विशाल दर्यो - ताकाय आसा सुक्ती आनि भरती
विचित्र तुजी सृष्टि देवा जाण्वाय तुजी वरती

गर्व हंकार क्षणिक मन्शा, उड्तलो तो पड्ता
कष्टांत सुक्ती, सुखांत भरती, जिणियेंत अशेंत घड्ता
प्रकृतेंतली हर एक रच्णा लिसांव विंच्णार दिता
रच्णे मुखांत्र उलयता तो तुजोच रच्णार पिता

*

## तुटुल्लो मोग

"तुज्याच बरयाक सांगतां - वारयाक सोडूं नाका उतर
सांगतां कितें मनांत घे तें - खंचय मती भितर
सांगात ताचो बोव वाइटाचो - सोड तो" म्हळ्ळें आनान
आय्कोन हेणें भाइर तें तेणें सोड्लें दुसरया कानान
धावेंत लिसांव शिकताना हांव वळक तुजी जाल्ली
इष्टान म्हज्या भगच्याक मजा वळक करून दिल्ली
गोरया रंगाक, नाजूक आंगाक तुज्या सग्ळोच भुल्लों
कुडिंत निर्मळ स्वादिक पर्मळ स्वादून सार्कोच फुल्लों
घरच्यांक खबर नासतां सबार पावटीं म्हज्याच हातीं
घेतलां तुका हित्लांत, रुका-सावळेंत दिसाक रातीं
वोंटान म्हज्या चाकल्या तुज्या चुंबनांची गोड्साण
बेजारायेंत, तुज्या सेवेंत पोळ्ळ्या सगली कोड्साण
कशी वाड्ली आमचे मधली सळावळ ती वेगीं
सांडून भिरांत, रस्त्यार घरांत घेतलें तुका लागीं

बूद-बाळ इल्ली आनान दिल्ली मांदिनासतां सुधां
तुका लागोन, कितलेय लेगुन पैशे मेजले सदां

हाय ! त्ये रातीं ह्यावीं हातीं खेळव्न तुका आसतां
पावोन खुशी निदेवशीं जाल्लों चिंतूंक नासतां
एक धम जागोन चोयतां - पेटोन आसा वस्त्राक उजो
खंयसर उरलो खंय अंतरलो मोग जो केल्लो तुजो !
केल्ल्याक सांगात मेळ्ळा हो घात - आयच्यान सांगात नाका
निर्धार खरो सदांच उरों - आदेव्स सिग्रेट तुका

*

# पी. एन. शिवानन्द शेणै

**जल्म : १९५१**

केरळ देशाचे कोंकणी साहित्याची नवजागृतीचे कालाचो तांक आनी नांव आशिल्लो कवी. हांची कविता नवे विचारांची आनी नवे शैलीची. व्यष्टी आनी समष्टीचे मेळ हांचे कवितेंत देखूक येता. जनमनांचे उमाळे मोखून घेवन बरयलेली हांची कविता गोयंचे आनी केरळदेशाचे कोंकणी भासेचे कवितेचे मळार आपलो आगळो वेगळो जागो सोदून घेता. मोग आनी राग हांचे कवितेची मुखेल धारा. तरी जिणेची गोडसाण, कोडवाण, मिटसाण, खारसाण, तोरटाण, सग्ग एकठांय दवरलेली हांची कविता.

**कवन**

किरकीर (१९८४), चांगपणाची सांत (१९९४).

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

सदस्य, केरल कोंकणी आकादमी.
पंडरीनाथ भुवनेंद्र पुरस्कार १९८५.

**भारतकार** हे कवितेंत भारतदेशाक एक महिला मानून तीचे विभिन्न रूपांची जाणविकाय कवी आपले अणभवा परस करून आयला. भारत तांकां आवसू, घरकारणी, भयणी, दंदकारणी अनी शेजारणी. तरी पुराणांतले भारताचे आनी आर्विल्ले भारताचे विंगड रूपांचो भान हे कवितेंतल्यान वाचप्यांक येवंका आसा.

## भारतकार

भारत
मिगेली आवसू.
ती भुंये थाकून किरलून आयलेली

ती भूंय फुटून आयलेली
ती भुंयची हुनसाणि, आशिल्ली
तोरटाणि, बुरसाणि, जिवसाणि आशिल्ली
तिगेले चेरडुपणांतुले सपनांतुलें
बावलें हांव.
हांडीर दवरून भोंवता
गीत म्होण दिता
काणि सांगून दिता
हांव तिगेले सपनांत
पूत जावन जन्मतां.
भारत
मिगेली आवसू.
सांगतां सांगतां हांव वाडून की
ती वाडून की - सपनां सगट
पोणु वताय.
सपनांचे वर्ण, बालचापल्य,
सगट ना जाताय.
हांव बावलें, तिका नाका जावन,
वाटेर पडता.
हांव, पुताकडे तिका अपुरबाय ना जाता.
भारत माका आवसू.

भारत माका घरकारणी.
ती भुंयें थाकून फुलून आयलेली
ती भुयेंत जीवंत आशिल्ली
ती मिगेली हुनसाणि
जीविताचे चरचर, पडपड, चकचक

सगट जीवंत तारासूची
तिगेले जीवितांत
हांव तिका घोव.
ती सकाणी उटावन
न्हावन, चांग वस्त्र न्हेसून
निडळार तीळो लावन
लळित सुभगा जावन
मुकार राबून
चांग उतर उलोवन
माका जागयता.
हांव कामार वतना
देनपारांय खाण जेवण दिवन
ती दारवट्यार
हासून राबता.
सांजे परतून येतना
ती
सांजेय फुलचें फूल जावन राबून
माजर सरी आपोणू
सूणे सरी लेंवनू
गाय सरी दूद जावनू
कोबू सरी गोडसाणि जावनू
तशी तशी ती माका
घरकारणी जाता.
भारत माका घरकारणी.
राती निदे कूडांत
मिजेकडे संपूर्ण जाता

मिजेकडे संयुक्त जाता
मिजेकडे संतृप्त जाता.
मिगेले चेरडुबाळांक जन्म दिता
भारत माका घरकारणी.

भारत माका भयणी.
ती हांव सरी
आवसूर थाकून जन्म घेत्तल्ली
आवसूले जीवितांचे फल.
तिका ना कोडवाणि
तिका ना खारसाणि
तिका ना तोरटाणि
ती माका भयणी
ती मिगेले रगताची
ती मिगेले हुनसाणेची
ती मिगेले अपुरबायेची
ती वाडून वाडून येता.
ती वाडता तरी
मिगेले मनाक उजो लागता
ती घर भरता तरी
मिगेले मनांतुले उदकाक खतखता येता.
तिगेलो गळो
वरण माळे खातीर
दीग दीग जाता तरी
हांव मिगेले भयणी खातीर
भिजूड जातां.
सूर्याकय चंद्राकय

माका भय
पक्षीकय पाख्याकय
माका भय
वारें, वोतय, गिमूय, पावसूय
मिगेले भयणीली नीद सरीय
माका भय.
कोण आसा मिगेले भयणीक
एक जीवन दिवंचाक?
कोण आसा तिका
तिगेलो जन्म फारनु व्होरनातीलो ?
हांव राकून काळ्ळेले तिगेलें
सर्व फटोवन काणत्तीलो ?
कोण आसा तिका घोव जावंचाक ?
म्होवाळ घोव जावंचाक ?
अशी अशी ती माका
भयणी जावन
मनांत अग्नि जावन
जन्मांत उष्ण जावन
गिळूंक सोणा जावन
ताळ्यार खोंबिल्लो कांटो जावन
जीब कातोरचें सत्य जावन
ती मिगेली भयणी
भारत माका भयणी.

भारत माका दंदकारणी.
ती खंयकी थाकून येता.
ती खंयची की भास उलयता

तिका खमटल्ले तेलाची घाणि
तिका बुरशेल्ले अंगवस्त्राची घाणि
तिका बेळशेल्ले खाणाची घाणि
नातिल्ल्याची ओलसाणि
तिका उपाशीं पळ्ळेलें सपन
ती माका दंदकारणी
ती येता वता.
येवन वचून भितरी
घराकडे बाकी जावंचें सग
करता, बाकी जालेलें सग
खाता,बाकी जालेलें सग
भोगीता, बाकी जालेलें सग
चीर्यांत बांदून काडता
तिका कालि ना, फाय आसा
रित्तें पोटय, घेवन
उदेवंचो सूर्य आसा
फूट उपाशी पोणु
हाड उबारलेलो दीस आसा
उष्टें घेवन खावन
पोट अर्द भोरचें
भोरनु भोरनु सोरनु वचो
जन्म आसा
भोगून भोगून ना जावंचें
जीवित आसा
चोवन चोवन पोणु वचें
सपन आसा.

दंदकारणी हें कांय नेण
ती दंद करनूच आसा
ती मिगेली दंदकारणी
भारत.

भारत माका
शेजारणी.
ती स्वर्गार थाकून येता
ती स्वर्गाचें चांगपण जाता
तिका ना घाणि, तिका ना ऊणाव
तिका नाका जावन कांय ना
ती सगट संकल्पाचें पूर्णपण
गोडसाणिचें खाण तिका
गोड गोड वर्तमान तिका
बुदवंत पूत धुवो तिका
समृद्धिची पूर्णतायतिका
ती शेजारणी
मिगेलें भारत.
हांव तिका चोवन साबाव सपन दिकतां
सपनांत ती माका आवस जाता
भयणी जाता, घरकारणी जाता
सगट सपनांची प्रतिरूपिणी जाता.

भारत
हान्नी कांय न्हय.
पुराणांत

चरित्रांत
ऐतिह्यांत
भारताक एकच रूप.
आतां मिगेले मनांत
भारताक अनेक रूप
एक हातांत मल्लट्टी घेवन
पिंजल्लें वस्त्र न्हेसून
उंचार आयलेलें हाडय दाकोवन
फोंडांत गेलेल्या दोळ्यांत
उमासेचो काळूकूय जावन
भीक मागूंक राबिल्ली
ही बायल माका भारत वे ?
शंबर दादल्यांले शुक्ळाची घाणीय घेवन
दादल्यान ना केलेलें
बायलपण घेवन
पिसडून पिंजून घालेली
ही चेरडुप्राय
आनीकय सोणतिल्ली
युवति माका भारत वे ?
न्हेसूंक कांय ना दिकून
न्हेसल्यारीय पांगुरल्यारीय ना जावंचें
कांय ना दिकून
नागडीच भोवंची ही म्हांतारी
मिगेलें भारत वे ?
हासून येता ती
मिगेले सपनांतुली



भारत -
सरस्वती, लक्ष्मी, गोदावरी
गंगा, यमुना
तशी सगटय
हासूच्यो देवीयो -
जाल्यार रडच्यो बायलो
रडूनूच आसाय.
रडच्या देवियांले
हे भारतांत
मिगेलो जन्म.
सांगूंक मात्र एक पूत जावन -
सांगूंक मात्र एक भाव जावन -
सांगूंक मात्र एक घरकार जावन -
तशी तशी
सांगूंक मात्र
भारतकार जावन -

*

# वत्सला मंजुनाथ राव

**जल्म : १९२५** **मृत्यु : १९९६**

केरळ देशाची कोंकणी कविता बरवपी महिला कलाकारांत श्रेष्ठ. गार्हिक आनी स्त्रैण विचारधारा हांचे कवितेचे मुखेल विषय. जिणेची तांक आनी प्रस्नांची वळख हांचे कवितेचें वैशिष्ट्य. विषय आनी भास सरल आनी प्रभावपूर्ण आसा. वत्सला हांगेली कविता वाचप्यां कडेन पावंतकूच तांचे मनांक हालोवन वत्ता. बयलांचे जिणेचे तळमळे हांतु व्यापून आसा.

**कवन**

कोंकणी पद्यसंग्रह (१९७९) फुलां माळा (१९८६) काव्यधारा (१९८८)

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

कोंकणी भाषा प्रचार सभा साहित्यीक पुरस्कार १९९०.

**विधवा** कोंकणी समाजांतले विधवेची खंत वर्णन करता. वत्सला राव तिगेली उपमा मुल्यां पळ्ळेले सुक्के पाना लागी करता. जिणे स्थैर्य नातिल्ली ती हांगा थंगा उबता राबता. तिका खंय आश्वास ना. जिणेचे अणभवां बुडून रचिल्ली ही कविता वाचप्यां मुखार एक असहाय विधवेचें चित्र खेंचून हाडता. **बागिलारि कोण मारता** हे कवितेंत वत्सला बायेली मृत्युकल्पनेचो आनी कर्मा विश्वास दवरपी विचार आयला. मरचे मनशाले तळमळे आनी पश्चात्तापाचें मनोहर चित्र हे कवितेंत निर्मून घेतलां.

## विधवा

तिका ना समाजांत स्थान
ती मुल्यांत पळ्ळेलें पिक्कल्लें पान
वारयांत हंगा थंगा उब्बता

कोण खयिं तिका पळैता ?
चर्डुबाळ परिवार धन आनी भांगर
तिका सगट आसा, तरीय कित्तें आसा ?
धूव तिजे लागि राबून खांवचाक पळैता
सून नणदेर जाळानि दंद सर्वय मांयक दिता
प्रीति करूक तिका ना पतिदेव
तिका आश्वास खयिं ? कष्ट दितात सर्व
धन भांगर तिका दिल्लें ताणें
हाजान तिका सुख मेळतलें, लेकीलें ताणे
दामु ना, चेर्डुबाळ ना विधवेक तरि
तिजे कुटुंबाक तोच हुस्को
जाल्यारीय तिजे सुख-संकटाचो
भारु काडूक कोणय ना, कोणय ना
विधवा तरि जाली, देवार विश्वास दवरि
धैर्यान भायर येवनु समाजाची सेवा करि
सेवा करतल्लेक आरोग्य देव दित्तलो
पैसे हातां ना जाल्यार कोणाचे करान दिवैतलो
सर्वां लागि मर्यादेन चल, मातें उबारून धरि
कार्यमात्र उलै, सोडू नाका पतिदेवा उड्गास
ताळो व्होड कर नाका, कोपु चड दाखौनाका
मन दाखौनाका कोणाक, पतिव्रत घट्टि धरि.

*

## बागिलारि कोण मारता ?

'गड गड गड' -बागिलारि कोण मारता ?
'येना वे तूं' - अशीय आयकूक येता.

'कोण तें ?' - दोळ्यांक माका दिसना.
निद्देलेले कडे माका ताळो आयकूक पडता.
'वैकुंठ पळै थोडे वेळाक
आनी वच मागीरि यमधर्मा लागि
तो निश्चय करतलो -तका स्वर्ग कि नरकु
तुगेलें कर्म-फल तुकून पळैतलो.
आनी उटा, नमस्कार करि
वैकुण्ठा वच्ची वाट साफ जावनु आसा'
--हो शब्दु आयकताना रडता तो मनिश
'मेगेलें हांगाचे आनीकड जायनी
आशा साबार आसा, ती पुरती जावोची'
निदेल्लो तो हुमेता, जीवु तळमळेता
संसार सोडचाक माका व्हळ्ळे कष्ट दिसता.
'वेळु पावलो तुका, लेक दिवचाक
यमधर्मु तुका आपैता, केल्लेलें सर्व सांग'
उटा, मृत्यु राकून राबना -
जिवाक ताण्डून यमलोकाक व्हरतना.
गड,गड,गड बागिल हालता
मनिश होप्को भितर भायर ताण्डता,
जन्मु हावें सार्थक केल्लोना
देवाचेर विश्वास दवरलोना
हांगा थकून वच्चे मनिश, जन्मा आयिल्ले
संतोषान धावतले देवाचेर विश्वास केल्लेले

*

# एम.जी. राजीव

**जल्म : १९६६**

केरळाची कोंकणी कविता बरवपी एक उदीयमान कवी एम. जी. राजीव. विषय-वैविध्य आनी वीक्षण-वैविध्याची कविता बरवप हांची सवंय. हांचे 'पिरलूकय घेवन' संग्रहांत ऋषींगेले जिणेंतल्यो महत्वाच्यो घडणूको वाचप्यां मुखार उबी जाताय. आमगेले पुर्विल्ले इतिहासाचें भान हांतूतल्यान वाचप्यांक येता. भारतखण्डाची व्हडविकाय हांत दाखोवंचो प्रयत्न जाला. वाचप्यांचे अंतरंगाक निवळ आनी शांत करची तांक राजीवाले कवितेचें वैशिष्ट्य. अपूरबायेच्या उतरांनी जिणेची वळख दिवपाचें काम राजीव आपले कवितेंत करता. हांची कविता वाचप्यांक आनंद दिवपी आसा.

**कवन**

हृदयांतलीं सवणीं, पिरलूकय घेवन, संवसार, काव्यप्रयाग.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

कोची कोंकणी भाषा प्रचार सभा साहित्य पुरस्कार.

**आमची आवय भास** कोंकणीवेलो राजीवालो मोग प्रगट करता. वेंचीक उतरानी कोंकणीचें वैशिष्ट्य आनी महत्व हांतु दाखयलां. **प्रत्याशा** एत्योप्याचे लोकाचें दारिद्र्य वर्णन करता. दारिद्र्य आसूनूय हांचे मनांची घटाय आनी समूहाक हारवोवंची तांक हे कवितेंत वर्णन केल्या. आम जनतेची खंत प्रगट करपी ही कविता कवीले दयाळ मनांचो थाव दिता.

## आमाची यी आवय भास

अंब्याक 'पाल्लो'
पोणसाक 'खोल्ली'

केळीक 'पान'
माड्याक 'पिड्डो'
मड्डियेक 'सोग्गो'
कवश्याक 'पाक्कूळी'
विचित्र अस्स ! सुन्दर अस्स !
आमची यी आवय भास !

आंबो 'पेस्सप'
पोणोसु 'कातरप'
कोब्बु 'तास्सप'
नारलु 'कन्तप'
केळें कुट्टी 'करप'
विचित्र अस्स ! सुन्दर अस्स !
आमची यी आवय भास !

आंबो 'काडप'
पोणोसु 'घालप'
माड्डो पाडप
केळ्यां घडायु 'कातरप'
विचित्र अस्स ! सुन्दर अस्स
आमची यी आवयभास !

## प्रत्याशा

एत्योप्पा ..... !
तिज्जिं चेरडूवं
वोत्तांत पोणु करपूनु
काळीं काळीं जाल्यांय !

पिंवचाक नत्तिल्लें .....

खांवचाक नत्तिल्लें.....
नेस्सूक नत्तिल्लें.......
मत्या ऊंच पक्कंय नत्तिल्लें.....
कष्टांत कष्ट काणु
तीं वड्डताय.

एकि उण्डि सरि
खांवचाक नत्तिल्लि तीं
धना -राशीर बेस्सूनु
संहारक उण्डें बन्दूचे
संपन्नतेक दिक्कूनु
भीनाय.

दारिद्र्यांत सूनु
तीं तुत्तूले सभार शिकल्यांय.
सूर्यु तंका वड्डयता !
भूमि मात्र तंका आजि आवसु !
लोकांतु वेगळे
कोणाक तन्नी भींवचें ?

यो कपट लोक,
तो तश्शीचि गीळूक्कश्शिल्लि शक्ति
तांचे मन्नाक अत्तं अस्स.
कारुण्य दक्कोवनत्तिल्ले
ये समूहाक
हारवोंवचाक्कश्शिल्ली तांक्की
तांचे भुजांक अत्तं अस्स.

*

# पी. जी. कामत

**जल्म : १९२६**

केरळांतूले कोंकणी कवितेचे मळार हास्य व्यंग्या वाटेन सत्य सांगपी पी. जी. कामत. तांची कविता अत्यंत आकर्षक आनी अप्रूप शैलीची. आयचे लोकांचे, कोंकणी समाजाचें पडबिंब तांचे कवितेचें वैशिष्ट्य. साद्या सोप्या सडसडीत उतरानीं रचिल्ली तांची कविता उमेद भरलेली, वाचप्यांक चिंतन करूंक प्रेरणा दिवंची. ही कविता अत्यंत आस्वादक आसा. शों भरि कविता तानी रचिल्या आनी कांय नेमाळ्यांन उजवडायल्या.

**कवन**

पौवळीं (२००३) आनी कांय कोंकणी कविता

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

अध्यक्ष, केरल कोंकणी अकादमी. १९८४-२०००

केन्द्रीय हिन्दी निदेशालय पुरस्कार १९७२.

अध्यक्ष, अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळन २००३

**आचार** आनी **जातक** कविता आमचे आचारा संस्काराची वळख दिवपी. आयचे कोंकणी समाजाचे नवे पिळगेची मनशां पूर्विल्ले आचारां पसून निर्शेवन राबतात. हाचें विवरण आचार कवितेंत मेळता. **जातक** कवितेंत घोव-बायलालें नोक- झोंक, हाचें सरस वर्णन वाचप्यांक आकर्षक जावन आयलां. इतिहास कवितेंत फिरंग्याले छलकपटाचें वर्णन इतिहासाचे पन्नाचेर करचो प्रयत्न जाला.

## आचार

'भटमाम ! चेलो खंय आसा !<br>
कितें करता ? कितें शिकला?'

'खूब पैसो जोडता' बा
'साउदी म्हण एक राज्य
थंगा शाफर तो सुलतानाचो'
'शाफर म्हळ्यार?'
'म्हळ्यार व्होडलो जो आफीसर कलट्टर

*

भाग्य फुलेलें
पयर पटली सोयरीक
काल जाली व्हरडीक
होम जालो होर उबारलें
शोभाने म्हळ्ळें, दीवे दाखयले
कन्यादाना जेवण जालें
सगळेंच सर्वमंगलम्

*

आज आतां सातवो तेला न्हाणाचो
होरान घोव-बायल जावपाचो
होंकलेन होरता उष्टें खावपाचो
घोवा हातान मुद्दी घेवपाचो
कुटुंबाच्यो सुवाशिण्यो मेळ्यो
अपल्या आपल्या घोवाल्या उष्टे पानार बेसल्यो
यो गो, यो गो, होकले, बेस ह्या पानार
कित्याक गो लजेता ?
यो, पानाक आपड.
बेस जेवि, घोवालें उष्टें रुचीन खा

*

हें कसलें भटमाम ?
कसलो कुण्ड्या सोबाव हे चेलेलो
भट्टु मुकार सरलो -
खंय गो ? यो पुता, सांगिल्लें आयक
तुजो घोव तो, ताचें उष्टें खा
उष्टें खावन पतिव्रता जा
उष्टें खेल्लें सीतादेवीन रामाचें
लकुमादेवीन विश्नूचें
सतीदेवीन शिवाचें
रुक्मायेन किश्नाचें
दुरपदेन पांचय घोवांचें
आतां तुवेंय खावूंक जाय
हो आमचो आचार अनादिकालाचो
मुकार वच्चो सदाचार
हो आमगेलो धर्म, सनातन धर्म

*

मुद्दी घेवन राबलां हांव
आयलें माज्या मनांत
सुलतानाचें उष्टें खाता हांव
तो माजो धनी
माजें उष्टें खावचें तूवें
हांव तुजो धनी.

मुकार सरली चेली
कितें म्हण्टा गा भट्टा ?
ताचें उष्टें खावंचें हावें



हांव कितें ताचे सूणे ?
तो माजो घोव हांव ताची बायल
की उष्टें खावंचें सूणें ?

आयले माका जाळ-म्हळें
तें पुण कळना तुका ?
तूं कसली एम.ए. पास ?
आतां काना पडता गर्जु ताटकेचो -
कळ्ळें कळ्ळें सगळें कळ्ळें
हांव एम. ए. पास,
उष्टें खावंची न्हय
उष्टो घोव कोणाक जाय

*

## जातक

'अगो सुवासिनी !
तुका जाय निबर निबर
चैनीस फ्रायड रायस
दवर फ्रिजांत आनी खा रात दीस
माका बी नाका तें
माका जाय
मोव मोव हुनशी पेज
तरणे दुद्या हुमाण
आनी टमाट हरवें
म्हळ्यार शिजोवनाशिल्लें'
'आहो ! तावळ तुका वेगळें,

माका वेगळें,
तें करूक कोण ?'
'तुजान नजो तरी मेगेलें हावूंच करीन

*

अगो सुन्दरवदनी
तू माजी बायल
त्या नात्यान तुका
कांय अधिकार आसात,
हांव जाणा,
पूण तुजे माथ्यावयली ऊय
माजे माथ्यार घालचो अधिकार बी
ना
आनी एक सांगतां,
तुजो घाणियारो उस्वासु माजे
तोण्डार सोडचो अधिकार
तुका आसा, माका दिसना'
'तो अधिकार घोवाक आसा
दिसता ?'
'आनी सांगतां
मेगेलो तुवालो तूवें काडचो न्हय
तुगेलो तूं वेगळो दवर'

*

अगो विलासिनी !
तूं कितें पायांत शिरकून शिरकून
आडळून आडळून चमकता ?

दुरच्यान चमकूक न जो
वाट अरूंद बी कांय ? की
अळशिकेची ?

*

देवा ! अशें जाल्यार
अशें मुकार गेल्यार
फाय कितें जायत ?
हाका माका तूंच राक :

*

## इतिहास

म्हाळ पै मामान माण्डें खेल्लें-
फरंग्याक कित्याक राज्य ?
झूज तो जिखतलो
गोंय माका दितलो
गोंय जिखलें फरंग्यान
उपकार मानलो म्हाळपैचे.
राज्य कित्याक गा तुका
कोचीं वच, ओखदां पुंजाय.

*

# पी. एस. रामचन्द्र शेणै

**जल्म : १९१७**

सौम्य आनीं सुंदर कवितेचे कर्तृत्वाचो धन्नि केरळ देशाचो हो जाण्टो कवी. सर्वेश्वराक अंजली ओंपून दवरन तानी बरोवंची कविता वाचप्यांचे मन भावभक्तीन भरिल्लें करता. ताल आनी लय हांचे कवितेचें वैशिष्ट्य. विषय आनी विचार पुर्विल्ले, तरी आर्विल्ले लोकाक आकर्षण दिवंचे.

**कवन**

पुष्पांजली (२००१). सारस्वतवाणी आनी कोंकण जनता - नेमाळ्यांतल्यान शें भर कोंकणी कवितांचें प्रकाशन केल्यां.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

कोंकणजनता पुरस्कार आनी कोंकणी भाषा प्रचार सभा पुरस्कार.

**कालु** आनी **उत्सव** हे संग्रहांतली दोन कविता. दोनूय सागरा पसून बरयलली. सैमाक आनी मनशाक एकठांय करची ओड दोनूय कवितेंत परगटायला. 'कालु' कविता कालाची ओड आनी तांक -हांचे पसून बरयला. कालाचें वैभव कित्तें हाची जाणविकाय आशिल्लो मनीश बुदवंत. 'कालो सर्वजनान् प्रसारितकरो गृह्णाति दूरादपि 'म्हणचे तत्वगिन्यान हांत उबरून आयल्यां. 'उत्सव' कविता मनशाले उत्सवांत समुद्राचे योगा आनी भागा पसून वर्णन करून जनाचे आह्लादांत सैमाचो वंटो इत्तें -हाचे पसून जाणविकाय दिता.

## कालु

सागर हो व्हड पारावारू
दिता सर्वाक नीराहारू

हाची भरती सुकती कोण करता ?
इंदू लागी हाका मोग जाता -

चंद्रम उदेता कमळ फुलेता
तो वत्तना तें पाप, कवोळनु वता
नित्य हें दृश्य दिकूक येता
कोण हे सर्व कोरनु काडता ?

सूर्य उदेतना फालें जाता
तें कोणाक राकून वेळ काडता ?
पद्माक्ष ते वेळार उत्फुल्ल जाता
सांज जातना पाप धांपून वता -

एदोच वेळ लागेन खेळया म्हणून
कमळ पत्माक्षांनी मागल्यार तरी
शशी रवी तांकां कान दीनाय
समुद्रावृद्धिक्षय, कालूय वता-

कालु एक नित्यसत्य प्रसक्त
कोणाक ताका धरून राबोवंचाक जाता ?
ते ते वेळार तो प्रत्यक्ष जाता
ताजें काम करून मुकार वता

आज करचें सर्व आजीच करता
फाय कितें जायत, कोणाक कळता ?
बुदवंत काला वैभव जाणता
कालाक भजून तो दिस काडता-

खोली पिकून ती पडून वता
हरवी खोली तिका चोवन हासता
कालान तीवय पिकून येता
कालु पावंतना तीवय खालाक पडता-

रोग येतना वोयद ओखद दिता
सगट रोगाक ओखद आसा म्होण सांगता
कालु पावंतना इतें करूक जाता ?
ताका दोर बांदूक कोणाक जाता ?

*

## उत्सव

समुद्र एक व्हड देवळ ! थांगा उत्सव !
जनाक सगट उत्साह जाला उत्सव चोवंचाक !
गांव सगळो शिंगारून सोडला चांग करून
गोंड्यो अनेक लांबयताय माडे सर्वय-

आंब्या पाना तोरण घाल्यां आंब्या रूकांनी
रुकांर खिचून आंबे राबल्याय घोसाघोसांनी-
केळ्यां घडाय लांबोवन सोडल्यांय केळीतोपांत
झाडार म्हस्त फुलां भरल्यांय-कसकसले वर्ण

न्हंयो कितल्यो येताय त्यो धावन धावनू
तीरांवेल्या रुकांचीं फुलां लागी घेवनू-
पुजेक देवाक फुलां जाय म्होण लेकून !
सर्वय भरल्यां उत्सवाक जाय जालेलें

मळबार बळबा शिंगार घाला चंद जावनू
झिगी छिन्नी जावन तीवंय थळथळेताय
व्हड एक मेरकुरी बळब जळून राबल्यां
गावांत सगट हुजवाड भरून विकरायता !

हाडिल्ले फुलांनी पूजा जाली विस्तार करनू
घडिघडियेन थळथळेता दोळे विसविसावनू
जंगीरो वाजता आरतीचो, वेळ कळूक
जोगुल येवन आरती दाकयता दुसेर दुसेरी !

व्हडी व्हडी पटाका फांती तशी फुटता
ओटू तांचे जोगुल मेळून प्रकाश चडता-
समुद्रांत ताजो उजवाड पडून उजळ दिसता
समुद्र संतोषान गर्जन करून उडक्यो मारता !

अवभृताचो व्हड अभिषेक करून सोडला मू !
अभिषेकाचें पवित्र जल मात्यार घेवंचाक !
तीर्थ पडता जन सर्वय तें मात्यार घेता
माथें पुसून दोळ्यांक लायता व्हड भक्तिन !

वाती घालून पोणत्यो सोडताय एकेक जन
काजोलो तोवय मिनमिनेवन प्रकाश दिता
सेतु बंधनाक चानयेन रेंव गाडिल्ले लेकान !
सर्व तांची तांची शक्तितकीतउत्सव वाडयताय

जनांक सर्वांक आह्लाद जाला, नाचूंन खेळताय
भोवनु भोवनु, खेळचे खेळ सगळे घेवनू !
चेरडुवांक घेवनु वचाक लागताय भारी संतोषान
येवंचे वर्साय उत्सवाक एकडे जावूं म्होण !

*

# के. अनंत भट

**जल्म : १९३९**

निष्ठेन आनी सातत्यान बरवपी केरळ देशाचो कोंकणी कवी. हांचे कवितेचे विषय भक्ती आनी कर्माचे संबंध घेवन आशिल्ले. हांचे सद्विचार काव्यप्रतिभेचे मेळान भंगार तशी थळथकळेवन आसा. संगीत हांचे कवनाचें वैशिष्ट्य. भक्ती आनी भावगीतां हांचे कवनांत आस्पावून आयल्यां. अंत्यानुप्रास हांचे गीतांचो स्वभाव. ताल आनी लय भरलेली हांची कविता वाचप्यांक आनंदाचें आस्वादन करपाची, हांत दुबाव ना.

**कवन**

हर्वें पान पिकलें पान (१९९७), सूर भजनमाला (१९९७), संगीत रूपकम् (१९८६), गीतमाला (१९८६).

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

कोची कोंकणी प्रचार सभेचो साहित्य पुरस्कार १९८८.
गौडसारस्वत सेवा समाज, कण्णूराचे कोंकणी साहित्यभूषण पुरस्कार १९७८.

**एक बसयात्रा**, मंजेश्वर पुरींत सहस्त्रकुंभाभिषेका खातीर केल्लेले यात्रेचें वर्णन करता. **देव आनी असुर** कवितेंत देवांले चांगपणाचें, असुरांले बलावपणांचे खातीर देवांले विजयांची आनी असुरांले पराजयांची गीतरूपकान बरयलेली काणी.

## एक बसयात्रा

बस-यात्रा केलेली फूडे एक कालाक
मंजेश्वर थाकून सीदा कोडियालाक.

क्रिस्ताब्द एकुणीस शें सात सत्तरींतु
सहस्रकुंभाभिषेकु मंजेश्वर पुरींतु.
गवजेरि जाललो तो कुंभाभिषेकु
हांवयि आसिलों थंय भक्तजनांतु एकु.
भक्तजन मेळ्ळेले पन्नास हजार
चारि दिवसां कार्यक्रम विवध प्रकार.
पूजन, कीर्तन, गायन, भोजन
सेजार गांवचेयि मेळ्ळेले मस्त जन.
अभिषेकाक स्पेशल बस आसा म्हणाले
अर्ध घंटानन्तर एकेक बस्स म्हणाले.
लेकिले पशि चड आयिल्लें भक्तजन
परतुचें कशि म्हणु लेकतालें म्हझें मन.
दूरा एक बस म्हणु कोणेकी कळैलें
लागी वसून हांवे तांतु मस्त जन पळैलें.
चडलो हांव बसांतु आसूनूयि खीटु
आरंभाक मध्यें सोर्नु राबलों हांव नीटु.
पन्नास जनां जाग्यारि शंभरि आनी आट
मनांतु देवाक लेकताना बस केलें स्टार्ट.
होगूर-होगूर बस तें मुकारि चलता
बसांतुलें जन एकमेकाक आडलता.
मात्याक मात्तें हाथ, पाय, बोट
एकमेकाक आडोल्नु चाबले हांवें वोंट.
पायारि म्हजे माढैले कोणाले की पाय
धोर्नु राबूक सुदां ना जाले उपाय.
बसांतु आसा हो कसलो खीटु
वांकडो जालो, सुरुवेक राबिल्लों नीटु.

घुंवचे वाटेरि बसान घालें एक ब्रेक
तावळि विंगड बसान केलें ओवरटेक.
पावलें म्हळ्ळें तावळि कोणेकी उळ्ळाल
हांवे लेकलें पावलें म्हणु तें कोडियाल.
कोडियाल पाव्नूयि कोणीयि देवना कसलें
खीटांतु कसलें म्हणु कळना तसलें .
निमगिलें आत्तं आमी खंय थंय पावले
कोडियाल न्हंय उळ्ळाल म्हणु ते थंय राबले.
कसलो खीटु देवा ह्या बस्सांतु
अशी-तशी दिसना ह्या खीटांतु.
वापास सोडलें तें बस्स मुकारि
धरलें हांवें म्हजें बोट नांकारि.
खीटांतु अशी-तशी मात्तें आडळता
कितलें माका दुकलें कोणाक कळता.
पायारि माडैलें, पोटाक म्हजे आडले
चिर्डून-बुर्डून सग जीव म्हजे काडले.
आघोषाचे उडगासांतु यात्रे कष्ट विसरलों
मागीर हांवे बसांतुले खांब्याक धरलो.
अर्ध घंटो अर्ध म्हैन्यावरि तो गेल्लो
तांतु मध्यें बसान माका कोडियालाक व्हेल्लो.

*

## देव आनी असुर

ब्रह्मदेव ह्या जगाचो आज्जो सर्वयि ताझे संतान
देव असुर हे दोनि वर्गयि ब्रह्माक एक समान.
देवांक आयलो चांगु स्वभावु जनांक तांचेरि प्रीती

असुर सर्वांक द्रोहु करतले असुर पसावत भीति.
चांग स्वभावा देवांचेरि ब्रह्माक चडि प्रीति
हें असुरांक पसंद जायनी अज्जाले प्रीतीची रीति.
आदिकालाक असुर ते मेळ्नू ब्रह्मदेवा लागी गेले
असुर म्हणाले अज्जा ! तूवें आमकायि निर्माण केले.
आमचेरि ऊणे प्रीति तुका चडि देवांचेरि प्रीति
आमीयि तुग़ेली नात्तुरं न्हंय वे कसली तुजी अनीति.
ब्रह्मदेवु तो सांगता तांकां तुमगेलो वाय्ट स्वभावु
देव ते सर्वयि एकमेळीचे तुमकां ताचो अभावु.
भेदु हो तुमका दाकौन दित्तां पुनवेक तुमि येयाति
देवांकयि हो सन्देशु दित्तां चायसत्कारु घेयाति.
देवयि असुरयि पुनवे दिवसा ब्रह्म सभेंतु आयले
उण्डो - माण्डो खावचाक दील्नु शर्त एक समझायले.
ब्रह्मा सांगता खाण खाताना हाथ सीदा धोर्का
खाण हें व्यर्थ करूक नज्ज शर्त हें पालन कोर्का.
पैले आजि असुरांक खावेयतां तान्नीं खावचें पळैतां
नंतर देवांगेलो सत्कारुयि कोर्नु फल तें कळैतां.
उण्डे काणु त्या असुरानीं हाथ सीदा धरले
व्यरि विंदूनु तोंडान खावचे खातिर मुकारि सरले.
उण्डे नांकरि दोळ्यारि पडले थोडे तोण्णांतु पडले
अधिकयि व्यर्थ खाल पडले पोळोनु असुर ते रडले.
देवानींयि उण्डे काडले एकमेका तोण्णांतु घाले
हाथ सीदा धोर्नु खावौनु खाव्नु तृप्त जाले.
ब्रह्मदेवु तो निर्णयु सांगता कळ्ळो वे तुमकां भेदु
सहकारान देव जिकवले, असुरांक जालो खेदु.

*

# भक्ता आर. काञंगाड

**जल्म : १९३८**

श्री बी. के. रामचन्द्र भक्ता केरळांतलो कोंकणी कवी. तानी कोंकणी कविता खूब रचल्या. ती अणभवाची कविता. उगतेपण तांचे कवितांचें वैशिष्ट्य. स्पष्ट आनी सरल सुन्दर भास कवितांचें सौंदर्य वाडेयता. प्रतीकांचो प्रयोग हे कवितेंत देखूक मेळटा.

**कवन**

कांय कोंकणी कविता आनी कथा.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

केरल सरकाराले भारत भवन सोसाइटीचो आदर.
वैष्णवरत्न-नाटक-प्रतियोगिता पुरस्कार.
कोंकण जनता - कथा - प्रतियोगिता पुरस्कार १९९२-९४.

**बोधिरूखाचे पोंदाक** कविता भक्ताले आध्यात्मीक विचारांची. ज्ञानार्जना खातीर, अणभवा खातीर भोंवतल्लो कवी तीर्थां मद्दीं ज्ञानसंपादन करूक प्राप्त जायना. ज्ञाना खातीर तो बोधी रूखाचे पोंदाक ताचे सावटाचे शांततायेंत पावंता, आत्मसाक्षात्काराक पावनत्तिल्लें. **कावळ्यालें मरण** एक प्रतीकात्मक कविता. कावळ्याले मरणा पसून सांगतना कावळ्या भशेन तुच्छ जीवाचे पसून कवी सांगून येता. कोणय कावळ्याक मोल दीना. तरी कायळो वायस, पित्रांगेलें श्राद्ध खावंचो. कावळ्या बगैर मनीश ना. कावळ्या प्रतीकांतल्यान कवी आयचे समाजांतले मनशाचे मूल्यहीन वर्तणुके खातीर सांगता.

## बोधि रूखाचे पोंदाक

चमकून... चमकून
पाय म्हजे झोरनु गेले...

पुणी -
तुजें दर्शन जालेना !
तूं पळोवंचा मेळोना !
कोण की संगीलें आयकीलें
तूं -
काशींत आसा - अशें
हांव, काशी कडेन धावंलो-
आस्तेन
प्रतीक्षा सोडनातीलें
तरी -
देखलो ना तुका !
थंगा -
पांडेंक देखले
भट्टांक देखले
तानी सर्वान सांगलें
यो -
आमी दाखोवन दितात ताका
तानी दक्षिणा घेतली
तांब्या ताटांतूलें तीर्थ दिलें
तीर्थ पीवनूय -
म्हजे मनांतूलो उजो वाडवलोना !
गांदा नाम तांडूनुय -
देहाची हूम रिजलीना !
हांव रामेश्वरांत गेलों
मथुरांत गेलो
सर्व तीर्थस्थानांत गेलो...
सर्वतीर्थांत न्हालो....

तीर्थयात्रा केली
तुजे थाण मात्र मेळ्ळेना !
भोंवतणे मद्दें
कषाय वस्त्रधारी-
जटाधारी
एक सन्यासी मेळ्ळो
ताणे सांगलें :
तुका ज्ञान ना
अनुभव ना
तुगेलें मन पक्व जायनीं
हांव मागीर भोंवलो-अवधूतावरी
अनुभवा खातीर
ज्ञानार्जना खातीर
आज हांव
गळीत जावनु -
अनाथ जावनु
हे बोधिरूखाचे पोंदाक -
ताजे सावटाचे शांततायेंत
येवनु पडला
- तुजे थाण कळनातीलें
- तुजे दर्शन मेळनातीलें....

*

## कावळ्यालें मरण

तुजे मरणाची खबर आयकून
हे कावळ्या !

कोणय दुःखाचरण केलेना !
कोणस-कोणसांत
दुःखाची
सभा मांडयलीना
मंत्री खल्ल जालोना !
हाणे -
मंत्री जावंचे फूडे
सोयरानी येवची खबर दितालो तू
ताजे घराचे आंगण साप करतालो.
त्या मंत्रीक तांय -
'कवळो मेल्लो वे पाप !'
अशें सांगूक दिसलेना !

तू वायस :
मंत्रीले पित्रांगेले श्राद्धा दीसु -
तोंडात अन्न वच्चुका जल्यार
हे कावळ्या !
तूवें खावनु जावंका
जीवंत आशीले वेळार
तूं
सर्वांक जाय आशीलो !
आज
तूं
कोणाक नाका जालो !
फाय
तुगेलें श्राद्ध केल्यार

हे कोणय येवचें ना !
तूं
वाटेर पडणु मेलो
तुजे मड्यार
पुष्पचक्र दवरूक कोण पावलेना !
तूं मेलो
तुजे हर्द्यार एक मूष्टि माती....

*

# के के सुब्रह्मण्यन

**जल्म : १९३९**

केरळाचे कोंकणी कवितेंत सुब्रह्मण्यन हांगेलें आगळें वेगळें व्यक्तित्व. हांची कविता सैमा भक्ती आनी देवा भक्तीन ओतप्रोत आसा. श्रमाचें महत्व हांगेले कवितेचें वैशिष्ट्य आनी 'सर्वे सुखिनः सन्तु' ताचे मुखेल लक्ष्य.

**कवन**

श्रावोण, फुगडी आनी मुरोळी, गीतां' समाहार.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

कार्यदर्शी, कोंकणी साहित्य समाज.
उपाध्यक्ष, केरल कोंकणी अकादमी.
कोंकणी सिखवपी के.के.रामन अनुस्मरण विद्यालयाचो प्रधान अध्यापक.
आवय भासेचो प्रचारक.

**गजनीत** कविता श्रमाचे महत्वाचे आनी सग जनाक सीत पावोवंचा पसून सांगता. **मोगरमाली** कविता मोगरया फूला प्रतीकांतल्यान जिणेची खंत आनी दुःखा पसून सांगपी. एक दैवभक्त मनशाले विचार हे कवितेंत प्रकट जावून आयल्याय.

## गजनींतु

यो गो यो गो गजनींतु
खोरें खोण्णु गजनींतु
खोण्णु खोण्णु बीं घालूक
यो गो यो गो गजनींतु.

श्रम कोरणु भात कोरुं
सग्ग जनां सीत खाऊं
आजि फाल्या पेज पिऊं
यो गो यो गो गजनींतु.

दन्ध कोरणु खाऊंका
श्रम कोरणु बेसुका
देवा आब्बो पुज्जा कोरुं
यो गो यो गो गजनींतु.

आवय आप्पा दुवगे
भुरग्या व्होड कोरुंगे
तिंका सग विद्या दीवुं
यो गो यो गो गजनींतु.

*

## मोगरा माली

देवालें फूल चांग फूल
कोणाक जाय मोगरया फूल
पोरमोळु येत्ता हंगाय
थंगाय मोगरया फुल्लाचो.

म्होव पिवुचाक भोंवरु एत्ता
आज मोगरया फुल्लारि
पोट भोरणु म्होवु पीवूणु
फुल्लाक सोडूणु गल्लो तो.

चोवुणु चोवुणु दीसु जल्लो
राती जल्ली सेंत सेंत
मोगरया फूल रडूण रडूण
हाल्ला पळ्ळें तें दुखानी.

आगो बाये मोगरया फूले
चांगुं थूणु माली कोरणु
देवाक अर्पण करूक
जाय जाय मोगरा माली.

*

# सूर्या अशोक

**जल्म : १९६९**

कोंकणीची केरळांतली एक नवलायेचि कवयित्री. थोड्याचे उतरांच्यो ल्हान ल्हानश्यो कविता. तांतु अणभवांचें सत्य वर्णित आासा. काव्याची सहज रूच तांतु उबरून आयल्या. साद्या सोप्या घरावे भाशेंत बरयलेली कविता अत्यंत आकर्षक. जीविताचें शाश्वत सत्य तांतु सांगल्यां.

**कवन**

कृष्णगीत (२००४) आनी कायं कोंकणी कविता नेमाळ्यां वाटेन उजवाडायल्या.

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

एन. एम. सरस्वती बाय पुरस्कार.

कोची कोंकणी भाषा प्रचार सभा साहित्यिक पुरस्कार.

कालिकट एस. जी. एस. सभा पुरस्कार.

तम्मनम सद्‌गुरुसेवक समाज पुरस्कार.

**गुंजियो** थोड्याच उतरांनी बरयलेल्यो ल्हान ल्हान पदांचो समाहार. एक्केक पद विचाराचें एक्केक माणकां मोतयां तशें. **फूल आनी भोवर** ल्हान सी एक कविता, जिणे सत्या विशीं सांगपी.

# गुंजियो

## मोगरीं

अशी तशी फांदळेता
मोगरेची वाली
तिजे काळजांत फुल्लेल्यो कविता
पोरमळाचीं मोगरीं !

*

## पुण

लिखणी आसा हातांत
मुकार आसा कागत
उतरां आसाय काळजांत
पुण कविता मात्र फुलेना !

*

## बंदी

उजवाडाची दिवटी
राकून बेसल्या कविता
घालना हांव तिजेर दृष्टि
काळजांत बंद दवरतां.

*

## सवणीं

आसा काळजाच्या घूडांत
कांय सुंदर सवणीं
जायना तांकां उडून वचाक
बंद केल्या लिखणी.

*

## सान सूर्या

सूर्या दर्यांत बुडलो
काळूक घेवनु आयली राती
लायलो स्थानावेलो दीवो
उजवाड धेवनु आयली वाती

*

## फांतोड

सांज जाता सांज जाता
धर्तरी काळकांत बुडता
देवाचें ध्यान करतां
काळजांत फांतोड फुटता !

*

## काळीज

उजवाड दिवंचाक
दिवटी जळता
अंधकार भरलेल्यान
काळीज जळता !

*







## काजूले

कोंकणीचे हाताक धरताय
बालकां आमी तिजीं
अंधकार तिजो दूर करताय
काजूले जावनु आमी.

## सत्य

राती जाल्यार दीसु आसा
दीसु जाल्यार राती आसा
जन्मु घेतल्याक मरण आसा
येंच शाश्वत -सत्य आसा.

*

## फूल आनी भोवर

फुला कोळो आसा झाडार
फुलेता तो सांजे वेळार
फुला लागि पांवता हुंकार
राबता ती हासुन जोरार

भोवरु हुंगून बेसता तिजेर
मोगा उत्तरां घालता कानार
अमृत तिजे फारता धरार
सोड्डून चोरु वत्ता रसत्यार

*

# अशोक भोंसलो

कोंकणी साहित्यांतले वेग-वेगळे प्रकार -कविता, कथा, नवलिका एकांकी, नाट्य-रूपांतरां, भुरग्यां खातीर कथा, कविता आदि बरवपी अशोक भोंसलो कोंकणीचो उदीयमान कवी. हांची सरल आनी सरस कविता भो सुन्दर आनी मनभुलावण आसा. तांतु सैमाचें चित्र अतिमनोहर जावन येता.

**कवन**

सूरवन (कविता संग्रह).

**कोंकणी सेवा आनी पुरस्कार**

कोंकणी भाशामंडल, कलाधर कोंकणी लेखन संघ आनी बिंब परिवाराचो सर्वकाळ वांगडी.
आकाशवाणी खातीर वेग-वेगळ्या कार्यावळींत भरपूर लेखन आनी सादरीकरण.
कुळागर कादंबरी लेखन स्पर्धेंत बक्षीस १९७९.
कोंकणी भाशामंडळाचो नरसिंहदामोदरनायक साहित्य पुरस्कार १९९०.
कोंकणी भाशामंडलाचो साहित्य-पुरस्कार २००२.

**हळूच मोगा** कवितेंत मोगाक आपोवंचो कवी सैमा वांगडा मोगाक उल्लो दिता आनी आपले वेंगेंत येवन जीणेक संगीतांत बुडवपाची कवी आस करता. येता जाल्यार नावांचे सुंदर कवितेंत कवी सैमाचे पृष्ठभूमीक आधार करून आपले कल्पनेंतले मोगाचे सुंदरेक आपयता.

## हळूच मोगा

हळूच मोगा येवचें तुवें
वेंगेंत म्हजे लिपचे तुवें
सैमरंगी संगीत मोगा
कोगूळ तशें गावचें तुवें

हळूच मोगा येवचें तुवें
फूल कशें फुलचें तुवें
परमळान भंवर पिसो
अमृतान न्हावचें तुवें

हळूच मोगा येवंचे तुवें
कुटुरयांनी खेळचें तूवें
काजी पोंदा मेळ गो मोगा
भिरण कशें रंगचे तुवें

हळूच मोगा येवचें तुवें
लजत लजत मोजचें तुवें
चान्नी याद घेवन मोगा
तृप्त जावन वचचें तुवें

*

## येता जाल्यार

येता जाल्यार यो गो अशें
हांसत नाचत उडत यो
सांज पिशी रावल्या तुका
गायत गायत नाचत यो

येता जाल्यार यो गो अशें
शेवणें कशें उडत यो
सुरू झाडां घोळता तुका
सळसळायत दुलपदां

येता जाल्यार यो गो अशें
मळबा शाल न्हेसून यो
नकेत्रांच्यो चमक्यो येतल्यो
गळ्यांत घालूक माळ

येता जाल्यार यो गो अशें
दर्यातुलें जावन ल्हार
बसलां पळय देगेर ताचे
पायांकडे फूटत राव

*






यज्ञं दधे सरस्वती

# सुकृतीन्द्र प्राच्यविद्या शोध-संस्थान

कूत्तापाडी, तम्मनम, कोची - 682 032, केरल, भारत

**सुकृतीन्द्र प्राच्यविद्या शोध-संस्थान** ही त्रावनकूर कोची साहित्यिक, विज्ञानिक, आनी धर्मार्थ संस्थ्यांच्यां अधिनियमा खाला 1972 वर्सा नोंद जाली. संस्थेचे मुख्य रक्षाधिकारि आसात वारणासी काशीमठ संस्थानाचे मठाधीश संपूजनीय श्रीमत् सुधीन्द्रतीर्थ स्वामीजी. संस्थेचें मुखेल उद्देश्य प्राच्यविद्या, चड करून, संस्कृत, भारतीय संस्कृति, साहित्य, चरित्र, दर्शन, कला, वास्तुविद्या आदींच्या अभ्यास-संशोधनांची पोसवण. संशोधनकेंद्र म्हूण संस्थेक केरळ विश्वविद्यालयाची आनी महात्मा गांधी विश्वविद्यालयाची मान्यताय आसा. संस्थेचे ग्रंथालयांत जायते अपूर्व ग्रंथ आनी संस्कृताचीं तळतां आसात. संस्थेचे कार्यावळेंत संस्कृत, ज्योतिष आनी वास्तुविद्येंत पाठ्यक्रम, संशोधनेचे प्रकल्प, राज्य आनी देशीय तलाचेर चर्चासत्रां, पुस्तक-प्रकाशन, इत्यादी आसता. एक अर्दवर्सुकी नेमाळेंय संस्था उजवाडायता. कोंकणी भाषा-साहित्यांत विशेष जावन पोसवण दिवंचे खातीर संस्थे खालाक **स्कूल ऑफ कोंकणी स्टडीस** प्रवर्तन करता. ह्या स्कूलान कांय परिचर्चा आनी कृतिसत्रां घडयल्यां; **'कोंकणी बरयतना'** आनी **'चिंतन अनुचिंतन'** म्हूण दोन पुस्तकां उजवाडायल्यां. आतां कालिकट, केरळ हांगा आखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें 24 वें अधिवेशन भरचे निमित्तान संस्था दोन विशिष्ट ग्रंथां उजवाडायता. **'The Konkani Language - Historical and Linguistic Perspectives'** (कोंकणी भास - ऐतिहासीक आनी भाषाशास्त्रीय परिप्रेक्ष्य) ह्या ग्रंथांत नामनेच्या लेखकांले लेख आसात. **'कोंकणी काव्यमंजरी'** ह्या कविता-संग्रहांत केरळ, कर्णाटक, आनी गोंय राज्यांतुली आधुनिक कोंकणी कविता आसा.

---

**SUKṚTĪNDRA ORIENTAL RESEARCH INSTITUTE**

(Research Centre recognized by the University of Kerala
and Mahatma Gandhi University)

Kuthapady, Thammanam, Kochi - 682 032, Kerala, India